# योगायोग



आरती राजीव संजगिरी






ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

योगायोग

लेखिका :
सौ. आरती राजीव संजगिरी

प्रकाशन क्र.: ५७

© लेखिका

पयली उजवाडावणी : २००७

उजवाडावपी :
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

अक्षरजुळणी :
पुनम आ. शेट शिरोडकर

छापपी :
सौ. [illegible] मिलींद तिं[illegible]
नवादित्य [illegible]
माशेल, गोंय

मुखचित्र :
श्री. अमोल पागी

मोल : ८०/- रुपया

YOGAYOG

WRITER :
Sou. Aarti Rajiv Sanjgiri

PUBLICATION NO.: 57



© WRITER

FIRST EDITION : 2007

PUBLISHER :
Milind Kamalakar Mhalshi
Om Shri Datt Padmaja Prakashan,
Shristhal, Canacona, Goa

TYPESETTING
Poonam A. Shet Shirodkar

PRINTER :
Mrs. Madhuri Milind Timble
Navaditya Packagings,
Marcela, Goa

COVER :
Shri. Amol Pagi

PRICE : RS. 80/-



---

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे पयलें चवर अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.*

# भोव आदरान

*जी आपल्या भुरग्यांखातीर पर्यायान संवसाराखातीर*

*चंदनावरी झरत आयल्या,*

*ते म्हजे आईक - सौ. शालिनी सच्चित पै काणे हिका-*

*आनी*

*जे आमकां भुरग्यांक सदांच मायामोग, उर्बा दियत आयल्यात*

*त्या म्हज्या पापाक - श्री. सच्चित बाबुसो पै काणे हांकां -*

*हो कथांझेलो भोव आदरान भेटयतां.*

सौ. आरती राजीव संजगिरी

# 'योगायोग' चो योगायोग.....

अंदू वर्स हें म्हजेखातीर अपरुपाचें वर्स म्हुणूंक जाय. कारण, ह्या वर्सा म्हज्या दोन इश्टिणींच्या पुस्तकांक प्रस्तावना बरोवपाचो योग म्हाका आयला.

योगायोगान ह्यो म्हज्यो दोनय इश्टिणी हांव १९७९-८० च्या काळांत कुडचड्यार, गार्डियन एंजल हायर सेकंडरींत शिकता आसतनाच्यो. तातुंतली एक 'ब्रॅन्डा मिनेझीस' आनी दुसरी ह्या पुस्तकाची लेखिका 'आरती संजगिरी' ब्रॅन्डाचो 'नाट्यांगण' नांवाचो पांच नाटकुल्यांचो संग्रह गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणे खाला उजवाडाक येता आनी आतां आरतीचोय हो 'योगायोग' कथासंग्रह तेच येवजणेखाला प्रकाशीत जाता. ब्रॅन्डाच्या संग्रहाक हांवें 'इश्टिणीच्या नात्यान' म्हाका जाल्ली खोस आनी म्हज्यो भावना प्रस्तावनेच्या रूपान बरयल्यात. आरतीच्याय संग्रहाक प्रस्तावना बरयतना म्हजी भुमिका तीच आसा.

'आरती राजीव संजगिरी' म्हळ्यार पुर्वाश्रमीचें 'विमल पै काणे'. सादया-सरळ सभावाचें. भावूक तशेंच नम्र वृत्तीचें. आमी तशीं समवयाचीं, पूण तें म्हजेआदीं बरोवंक लागिल्लें. आपल्या मनोगतांत ताणें बरयलां ते प्रमाण तें आठवे णवेक आसतना बरोवंक लागिल्लें. हांवें म्हजी पयली कथा 'वणवा' जी मराठींत आशिल्ली, ती बारावेक आसतना बरयिल्ली. तिचेर ऑफ पिरयेडांत आरती आनी हेर कांय इश्टिणींनी - जातूंत आमची नामनेची मराठी लेखिका सुरेखा रघुवीर नायक हिचोय आस्पाव आशिल्लो - चर्चा केल्ली आनी वाचनय केल्लें, मात आरतीच्या कथांचेर आनी नाटकुल्यांचेर आमी इकरावेच्यानच चर्चा आनी वाचन करीत आयिल्लीं. आरतीकडेन तेन्ना आमी 'व्हड लेखिका' हे भावनेन पळयतालीं.

बारावी जाली आनी उपरांत एफ्.वाय्., ताणें म्हापशें सेंट झेवियर्स कॉलेजींत ॲडमिशन घेतलें जाल्यार हांवें मडगांवचे चौगुलेंत हायर सेंकडरींत. म्हज्या हेर चडशा मैत्रिणींनी चौगुलेंतच ॲडमिशन घेतिल्लें, ताका लागून आमच्या वा हेरांच्या साहित्याचेर उलोवप, वाचन हें आमचें चौगुलेंतय चालू उरलें. मात आमचेमदीं आरती नाशिल्लें. मात ताच्यो कथा 'चित्रंगी', 'कुळागर', राष्ट्रमत हाचेर केन्ना केन्ना

वाचूंक मेळटाल्यो. आमचे खातीर अशें छापून येवप म्हळ्यार तेन्ना व्हडलें. आमकां इश्टिणींक ताचो खूब अभिमान दिसतालो.

उपरांत बी.ए. च्या निमण्या वर्साक आसतना म्हजो कोंकणी चळवळीकडेन संपर्क आयलो आनी म्हजेंय साहित्य खंय खंय छापून येवंक लागलें. 'चित्रंगी'च्या मेळाव्यांनी हांव वांटेकार ज़ावंक लागलें, थंय आरतीची आनी म्हजी परतून भेट जाली, मेळाव्यांच्या विशयांक धरून चर्चा करतना आमच्या व्यक्तीगत लेखनाविशींच आमी उलोवंक लागलीं. साहित्याच्या क्षेत्रांत 'कॅरियर' घडोवपाचींय सपनां आमी थंय रंगयलीं.

म्हज्या त्या सपनांचो थाव घेत हांवें म्हजी जिणेवाट माडिल्ली. कांय सपनां हातीक गावलीं, कांय आजूनय हाताक सांपडचीं आसात, तांच्या सोदांत म्हजे जिणेचें मार्गक्रमण चालू आसा. आरतीन मात, म्हज्या हेर वर्गमैत्रिणींसारकें सपनांची वाट सोडून 'प्रत्यक्षाची' वाट धरली आनी त्या यत्नांत ताचें लेखन आपली वाट विसरलें.

मदलीं बरींच वर्सां गेलीं, आरतीची आनी म्हजी भेट जावंक नाशिल्ली. पूण हें पुस्तक येवपाचो योगायोग लागीं पाविल्लो देखून जायत आरतीचे चलयेक धावेक बरे गूण मेळिल्लेखातीर 'कुड्डाळी कोंकणी केंद्रान' बक्षीस दिवपाचें थारायलें आनी त्या वर्सा म्हाका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळिल्लेखातीर म्हाका खास मानाचें सोयरें म्हण आपोवन म्हजो भोवमान करून, म्हज्या हातान तें बक्षीस ताका दिलें.

कार्यावळ सोंपतकच आरती चलयेक घेवन म्हजेम्हऱ्यांत आयलें आनी आपणांक वळखता काय म्हणूंक लागलें. आरतीमदीं बरोच शारीरीक बदल घडिल्लो, पूण ताचें निगर्वी मुखामळ तशेंच आशिल्लें. शिवाय म्हजें इश्टिणीचें काळीज ताका विसरता व्हय? त्या दिसा आरतीकडेन घरा वचपाचे गडबडींत चड उलोवप जालेंना. कांय दिसांनी तें म्हाका पणजे मेल्ळें, तेन्ना मात हांवें सगळ्यांत पयलीं ताचें बरोवप खंय पावलां ताची वासपूस केली. तशें ताणें येदेशें तोंड करून हालीं आकाशवाणीच्या 'व्हनी बायले वासरेखातीर' सोडल्यार चड कांय बरोवंक ना म्हण सांगलें. आदीं प्रकाशीत जाल्ल्यो कथा खंय आसात त्यो घेवन यो, अकादेमीचे

पयलो चंवर येवजणेखाला छापपाचो यत्न करया म्हणपाचें ताका खडसावन सांगलें. म्हजें उजरावप वा खडसावप ताणें आस्तीन मनार घेतलें, पूण ताचेकडेन आपल्या लेखनाचो वेवस्थीत रिकोर्ड नाशिल्लो. लग्ना आदीं बरयिल्ल्यो कथा आपल्या कुळारा सांडून आयिल्ल्या आंकवारपणावांगडा तें थंय सांडून आयिल्लें. लग्नानंतर बरयिल्लें साहित्य संवसाराच्या पसाऱ्यांत घुस्पल्लें, पूण आरतीन मोठे चिकाटेन ताचो सोद घेतलो. ह्या सोदांत वट्ट बारा कथा हातीक लागल्यो. त्यो घेवन तें म्हजेकडेन आयलें. हांवें तांचेर म्हजो स्नेहाचो हात फिरयलो. तांचें अस्ताव्यस्त रूप सांवरून तांकां आंखीवपण दिलें आनी अकादेमीचे पयलो चंवर येवजणेचे सर्तीत उब्यो केल्यो. हे सर्तीत त्यो जैतिवंत ज़ाल्यो आनी आज तांकां 'योगायोग' हें पुस्तकरूप फावो जालां.

आरतीची कथा ही मध्यमवर्गीय कुटुंबाची कथा. 'बायल' ही ताचे कथेची केंद्रबिंदू. मध्यमवर्गीय कुटुंबांत बायलेची जातली अवहेलना, तिचें शोशण, तिचेवयले अत्याचार हाचेभोंवतणीं ताचे कथेचें कथानक गुंतिल्लें आसा. कथा थोडीशी फिल्मी स्टायलीची, केन्ना केन्ना वास्तवाकडल्यान पयसूय वचपी. हाचे फाटलें कारण म्हळ्यार, लेखिकेचें मर्यादीत अणभव विश्व आनी संवसारीक परिघांत घुस्पून रावचो जिवनक्रम. प्रसंगवर्णनाचे बाबतींतय आरतीची कथा उणी पडटा. पूण आरतीकडेन कथानकांचो सांठो आसा, ताचेकडेन Potential आसा. कॉलेज जिवनांत पळयिल्ले सपन खरें करपाचें आतां ह्यावूय वयांत मनांत थारायलें जाल्यार तेखातीर लागपी जिद्दय आसा.

हें 'योगायोग' पुस्तक म्हळ्यार, आरतीच्या जिवितांत साहित्यसाधना चालू दवरूंक योगायोगान घडून आयिल्लो योग. मनावयली मरगळ शेंवटून वडोवन नवे उमेदीन आनी नव्या जोमान तें परत आपली लेखणी पर्जळटलें अशीच आस्त ह्या पुस्तकाक म्हजीं हीं प्रस्तावनारुपी परबीं भेटयतना हांव करतां.

ता. १७ फेब्रुवारी २००७ **डॉ. जयंती नायक**
आमोणें, केपें, गोंय

# मनोगत ....

म्हाका स्कूलांत शिकता तेन्नाच्यान बरोवपाची आवड. म्हज्या ल्हानपणांत टी.व्ही नाशिल्लो. करमणुकेचें साधन म्हळ्यार रेडिओ आयकप आनी पुस्तकां वाचप. म्हज्या व्हडल्या भावाक पुस्तकांचो खूब शौक. तो राशींनी पुस्तकां हाडटालो. तशींच सगळ्या तरेचीं नेमाळीं तो हाडटालो. तीं वाचून आनी रेडिओवयले कोंकणी प्रोग्राम आयकून म्हाकाय दिसतालें, हांवेंय कितेंतरी बरोवचें. रेडिओवयले प्रोग्राम म्हळ्यार नाटकुलीं, फोडणी फोव, युववाणी, खळार मळार व्हनीबायली वासरी हे सगळे प्रोग्राम हांव उमेदीन आयकतालें.

सातवेक आठवेक आसतना हांव सुटयेंत जेन्ना घरा रावंक येतालें तेन्ना हांव धाकटीं नाटकुलीं बरोवन म्हजे आज्जेक 'अतयाक' जेन्ना वाचून दाखयतालें तेन्ना ती उमेदीन आयकताली आनी तुस्त करताली. मे म्हयन्याचे सुटयेक आमी सगळीं भुरग्यां तशेंच आमगेर सोयऱ्यांय आसतालीं. आमी सगळीं भुरग्यां मेळून तांतुंतलीं नाटकुलीं करतालीं. आमची स्टेज आसताली बाक आनी पड्डे आसताले गोजडयो.

म्हज्यो पयल्यो कविता रेडिओर जेन्ना म्हळ्यो तेन्ना हांव धाव्वेक आशिल्लें, तेन्ना हांव स्कूला मार्फत गेल्लें. ताचे नंतर आयताराच्या राष्ट्रमताचेर म्हजी कथा येवची अशें म्हाका दिसूंक लागलें. तशें जेन्ना हांवें म्हज्या बापायक 'पापाक' म्हळें, तेन्ना पापान म्हजी पयलीच कथा व्हरून राष्ट्रमताक दिली आनी ती मागीर दोन ऑक्टोबर दिसा राष्ट्रमतार आयली. मागीर म्हजी आनीक एक कथा पापान व्हरून दिली. तीवय राष्ट्रमताचेर आयली.

म्हाका हळूहळू म्हजी कथा मासिकांत येवची अशें दिसूंक लागलें. म्हज्या बापायचे 'पापाचे' ओळखीचे एक मनीस श्री. वादोळकार तेन्ना कुळागर ह्या मासिकांत उपसंपादकाचें काम पळयताले. पापान म्हज्यो दोन कथा तांचेकडेन दिल्यो. 'योगायोग' ही कथा १९८१ वर्साच्या म्हयनाळ्यांत तशीच ताचे मागीर 'तीन सवंगां' ही जून म्हयन्याच्या कुळागराच्या मासिकांत आयिल्ली.

मागीर हांव म्हज्यो कथा, रेडिओचेर पोष्टांतल्यान धाडूंक लागलें. 'पुनर्भेट' ही कथा १९८२, ८ मेक कोंकणी युववाणीक हांवें वाचिल्ली. तशेंच १९८१ रेडिओचेर व्हनीबायली वासरी ह्या कार्यक्रमांत हांवें एक नाटिका बरयिल्ली आनी तांतूंत हांवेंय काम केल्लें. 'काणी रिंकुच्या जिवीताची' १९८२, १७ ऑक्टोबराक कोंकणी युववाणीक सादर केल्ली. 'सुखाक भियेवन दूख जेन्ना पयस वता' ही कथा १९८३ त कोंकणी युववाणींत आयिल्ली. मागीर 'सूड' ही कथा १९८३ च्या जून म्हयन्याचे ४ तारखेक युववाणींत आयिल्ली. 'योगायोग' ही कथा १९८४ युववाणींत. १९८४ च्या नोव्हेंबर म्हयन्यांत 'फोडणी फोव' ह्या कार्यक्रमांत हांवें एकदा उलोवप केलां.

'पुनर्भेट' मराठी रुपांतर आयताराच्या राष्ट्रमताचेर तशेंच 'कुमारिका' ही कथा १९८४ च्या चित्रंगी दिवाळी अंकांत, मागीर 'घुस्मटमार' ही कथा दुसऱ्या चित्रंगीच्या दिवाळे अंकांत छापून आयिल्ली. ऋतू ह्या कवितेच्या व्दैमासिकांत दोन फावट दोन कविता छापून आयिल्ल्यो. 'स्वेता' ही कथा तिसऱ्या वर्सा 'चित्रंगीत' १९८५ ह्या वर्सा दिवाळे अंकांत छापून आयिल्ली.

१९८६ ह्या वर्सा 'सुखी संवसार' हे कार्यावळींत एक कोंकणी डायलॉग बरोवन सादर केल्लो. मागीर ५ ऑगस्ट १९८९ ह्या वर्सा 'स्वेता' ही कथा व्हनीबायली वासरी हातूंत हांवें वाचिल्ली. सुनापरान्ताचेर म्हळ्यार आयताराच्या अंकांनी दोन फावट, दोन दोन कविताय उजवाडा आयिल्ल्यो. रेडिओचेर बायलांच्या प्रोग्रामाक मंगळारादिसा दनपारच्या बारा वरांचेर कथावाचनात 'जाई' ही कथा तशेंच मागीर परत बायलांखातीर एक लेख बरोवन वाचनांव केल्लें. ताचे नंतर 'माई' ही कथाय बायलांच्या प्रोग्रामाक वाचिल्ली. 'जाई' आनी 'माई' ह्यो दोनूय कथा आयताराच्या सुनापरान्ताचेर २००४ वर्सा आयिल्यो.

लग्नापयलीं आनी लग्नाउपरांतय हांवें थोडेंभोव बरोवप केलां. पूण खूब कमी प्रमाणांत. म्हज्या कॉलेज जिवितांतय हांवें बरयलां. पूण तेंवय चड न्ही. म्हज्या सवंसारांत हांव इतलें घुस्पल्लें कीं म्हाका बरोवपाचो विसर पडिल्लो.

पांच म्हयन्याफाटीं म्हजी हायर सेकेंडरीची क्लास मैत्रीण भौ. जयंती नायक म्हाका पणजे बसस्टँडार मेळ्ळी. हांवें म्हळें "जयंती मुगो, खूब तेप्पान! कशें

*आसा तूं?'' ''आगो विमल मुगो, कशें आसा तूं? जयंतीन म्हळें, ''आतां तुजें बरोवप बी खंय पावलां गो?'' 'ना गो, जयंती म्हजें बरोवप बी तसलेंच तें!''*

*ताचेर जयंतीन सांगलें, 'विमल, हांव हांगा कोंकणी अकादेमींत आसता गो. तुज्यो कथा आसल्यार हाड, एक पुस्तक छापूंया. कोंकणी अकादेमी हांगा कोंकणी लेखकांक पुस्तक छापूंक पालव दिता.'' तशें हांवें म्हज्यो बारा कथा व्हरून तशेंच ताच्यो दोन झेरोक्स प्रती काडून जयंती कडेन व्हरून दिल्यो. थंय पसंत बी जाल्यो. जयंती म्हणूंक लागलें, ''अगो विमल, नांव कितें दवरतलें गो?'' ''हांवें म्हळें ''कितें दवरूं?'' ''योगायोग'' जयंतीन म्हळें. ''कारण योगायोगान आमी इतल्या तेपान मेळ्यांत आनी तुज्या कथांभितर ह्या नांवांची एक कथाय आसा. शिवाय नांवय आयकूंक बरें दिसता.''*

*आनी म्हज्या चुकांची दुरुस्ती बी सगळी जयंतीन केली आनी आज ताका लागून हें पुस्तक येवंक पावलें. तशेंच कोंकणी अकादेमीन अर्थीक पालव दिलो, ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशनाचे कमलाकर म्हाळशी हांणी आनी ह्या पुस्तकाचे प्रकाशक श्री. मिलींद म्हाळशी हांणी पुस्तक काडपाची जापसालदारकी घेतली, देखून ह्या पुस्तकाक आकार मेळ्ळो. तांचे हांव मनासावन उपकार मानतां.*

- सौ. आरती राजीव संजगिरी

# मांडावळ

# जाई

बाप्पा खोलकार हो खोल गांवचो गिरेस्त मनीस. भाटबेंसकार तसोच बिझनेसमॅन. मोटो सुंदर बंगलो, बंगल्या कुशींक तीन-चार गाडयो, घरांत कामाक नोकर-चाकर. घर भरून दार ओतता म्हणटात तितलो श्रीमंत. बाप्पाली बायल भागरती, खरेंच नांवाभशेनच भाग्यवान. तिणें बाप्पाल्या घरांत पांय दवरलो आनी बाप्पाल्या घराची भरभराट जाली.

भागरती सभावान वेस्स बरी. गरीब-दुबळ्यांची आनी अडी-अडचणींक सापडिल्ल्यांची तिका सदांच काकळूट दिसताली. ती तांकां हात उखलून कितेंय मदत करताली. तिका आनी बाप्पाक गांवांतलो सगलो लोक मान दितालो.

बाप्पाक तीन चले. सूरज, नीरज आनी धिरज. बाप्पाले व्हडले दोगूय पूत बरे शिकिल्ले आनी वागणुकेनय बरे आसले. ते बाप्पाकय धंद्यांत मदत करताले. तांचीं दोगांयचीय लग्नां जाल्लीं. धाकलो धिरज मात सामको तवनास आनी मवाली जाल्लो. तो कॉलेजींक वतालो पूण अभ्यास करिनासलो. फकत दिसान दीस नव्या नव्या फिरशांक घेवन भोंवप, होच ताचो उद्देग आसतालो. ताका सगळीं वेसनां लागतालीं. बाप्पाल्या नांवाखाला ताचे सगळे गुन्यांव लिपताले.

बाप्पागेर सुमती नांवांची एक वावराडी ख्रूब वर्सासावन कामाक येताली. तिका एक चेडूं आसलें, ताचें नांव जाई. तें आपल्या आवय बरोबर सदां बाप्पागेर येतालें. बाप्पाले बायलेक चली भुरग्याचो खूबच घोस्त. ती ताका बरें करी. आपल्या पोटच्या भुरग्याभशेन. ताका ती वावराडेलें चेडूं म्हण वागयनासली. ती सुमतीक सदांच म्हणटाली, ''सुमती तुजे जाईक तूं खूब शिक्षण दी. दुडवांपासत भियेवं नाका. तें शिकतलेंच जावंदी. हांव दितां ताच्या शिक्षणाक पयशे.''

जाईचें चडशें ल्हानपण बाप्पा खोलकारागेरच गेल्लें. बाप्पाले दोगय पूत ताका आपली धाकटी भयण कशी वागयताले. ताचीं फकाणां मस्कऱ्यो करताले. अर्थ-अपुरबायोय करताले. सुमती सदांच भागरतीक म्हण, ''व्हनये, आमचें जायू तुमची बामणांचीच भाशा उलयता, म्हाका तेका पळयल्यार तुमगेलें चली कशें

दिसता.''

''हय गो, तें म्हजेंच चलीं.''

ताचेर भागरतीन सदांच म्हणचें.

आतां ल्हवू ल्हवू जाई वयांत येतालें, तसो ताच्या आंगलोटांतय बदल घडत वतालो. गोरें-पिट्ट जाई रुपानय सुंदर आसलें. तें तिटतिटें, किटकिटेंय नाशिल्लें. मान-मर्यादेन वागपी आसलें. बाप्पाल्या धाकल्या तवनास पोराची नदर मात दिसरात जाईचेर आसताली. कितेंय निमतां करून तो ताचे आंगचटीक येवपाचो यत्न करतालो.

आपल्या वयांत आयिल्ल्या सुंदर पोराक बाप्पालो हलकट, मवाली, तवनास पोर वायट नदरेन नियाळटा हें सुमतीन पारखिल्लें.

''म्हजें चेडूं हिस्पाभायर सुंदर जालां. चेड्यांचे वायट नदरेपसून हांव तेका कशें सांबाळूं रे देवा? वयार येतगीर गाढव सुध्दां सुंदर दिसता म्हणटात. तेतूंत म्हाजें चेडूं तर सर्गीची अप्सरा. ह्या बाप्पाल्या पोराचे दोळे फुटोन वचोंरे देवा. तो कुड्डो जावं!''

ल्हवू ल्हवू सुमतीन जाईक बाप्पागेर हाडपाचें बंद केलें आनी जाईय बी धिरजाक भियेवन बाप्पागेर येवंकय तयार जायना जालें. भागरतीन विचारल्यार सुमती तिका ताच्या अभ्यासाचें निमित्य सांगी. तशी भागरती म्हणटाली.

''जाईक पळयल्यार खूब दीस जाले मगो, इतलें कसल्या अभ्यासाक पेटलां तें? व्हनयेची याद येना ताका?''

''ना गे व्हनये, परिक्षा जातगेर येतलें तें.''

बाप्पाल्या नातवाचो वाडदीस आशिल्लो.

''सुमती, आगो आयकलां? फाल्यां बाबुल्या वाडदिसाची पार्टी, जाईक घेवन यो आं ! पोराक पळयन दिसता. आनी पळय. हो चुर्डीदार घाल ताका.

काल धाकले सुनेकडल्यान हाडून घेतला. पोरान घाल्यार बरो उठून दिसतलो! अंदू बारावेक मुगो तें ? बरे मार्क मेयळ्यार इजनेर कर ताका.''

''व्हनये, तेचो अभ्यास आसा.''

''एका दिसान कितें जाता? तूं हाड़च ताका.''

भागरतीचें उतर सुमतींच्यान मोडूंक जायना जालें. दुसऱ्या दिसा जाई व्हनयेन दिल्लो चुर्डीदार घालून वाडदिसाक आयलें. सतरा वर्साचें वयावयलें सुंदर जाई त्या गुलाबी रंगाच्या चुर्डीदारांत खूबच उठून दिसतालें. पार्टेक आयिल्ल्या खूबश्या जाणांची नदर ताचेरच थिरावताली. तें वावराडेचें चेडूं म्हळ्यार कोणाक खरें दिसतलें ? प्रत्येकाच्या वोंठार 'हे ऽऽ तें चली कोण?' होच प्रश्न आसलो. बाप्पालो मवाली चलो तर ताचे वयली नदर काडीनासलो.

''शी: कितें फिगर! कितें जुवानी, कितें रंग आनी रूप! आमच्या कॉलेजींतल्या चलयांक ह्या जाई भोंवतणीं ऊंवाळून उडोवपाची. हाका कितेंय करून गुटलावपाक जाय.''

अशें म्हणून ताणें सिगरेटीचो एक खोल दम मारलो आनी नाकांतल्यान धुंवर सोडूंक लागलो.

''मोठ्ठें बिलंदर पोर, कितेंय करतलो म्हणल्यार म्हज्या वाऱ्याकच रावना!''

पार्टी ऐन रंगार आयिल्ली. जाई भितरल्या कामाक हातभार लायतालें. कोणाक हें व्हरून दी, कोणाक तें व्हरून दी. मदींच बाबूक सांबाळ. इतलें म्हणसर सुमतीन उलो मारलो.

''आगो जाई, सकाळीं तेर्रासीर मिरसांगो सुकत घाल्ल्यो, मोव पडल्यो आसतल्यो. मातश्यो डब्यांत भरून घेवन यो. म्हजी पाडपडलेली याद, सात वरां जावन गेलीं, विसरोन गेलें.''

रानचे कुडींतल्यान उलो मारून सुमतीन जाईक सांगलें. तशें सोपणां चडून

जाई वयर गेलें. धिरज हेच संदेची वाट पळयतालो. सगल्यांची नदर चुकोवन तो जाईच्या फाटोफाट तेर्रासीर गेलो. तेर्रासीर कोण नासलो. काळोख जाल्लो. वागान बोकडेचेर झोंपय घालची तशी ताणें जाईचेर झोंपय घाली. ताच्या तोंडाक लेसाचो गुड्डो कोंवलो आनी एक कळी फुलचे पयलींच मुड्डून उडयली. काम करून तो कांयच घडलें नाशिल्ले भशेन मागीर सकयल येवन पार्टेंत भरसलो.

"देवा, आज कित्याक आयलें हांव हांगा? कित्याक आयेन म्हाका हांगा हाडलें ? कित्याक इतलें सुंदर रूप तुवें म्हाका दिलें ? आज हें म्हजें रूप आनी रंग म्हळयार एक म्हाका दिल्लो शापच थारलो. म्हजे जिणेंत आनी कितें उरलां ? हें काळें तोंड आनी भश्टल्लें शील घेवन हांव कोणाक तोंड दाखोव ? सगळें सोंपलें, सगळे उमेदींचो चुरो जालो. नाका हें जिणें म्हाका." अशें म्हणून जाईन तेर्रासी वयल्यान सकयल उडी मारली.

"धप्प" असो आवाज आयकून घरांतले सगले लोक भायर सरले. तांणी जाईक पळयलें तेन्ना तें सोपिल्लें. जाईचे जिणेची वात तेल सोंपचे पयलींच पालवल्ली. सकयल आशिल्लें ते निर्जिव शरीर. 'काळखांत ताका वयर कित्याक धाडलें ? पांय निसरून पडलें दिसता पोर, सगळयांचो बोवाळ.

मात सुमतीक वेगळोच भास जाल्लो. ताणें व्हडल्यान हुयेली मारली.

"म्हाज्या चेडवाचो घात घेतलो दुश्टान; तें पडोंक ना, तेचो घात घेतलो."

जाईचे कुडीचें पोस्टमॉर्टम बी जालें. खरी गजाल कळून लेगीत पयश्यांनी बोल्सां भरून गजालीचेर चेंपण घालें, आनी अपघात म्हण सिध्द केलें.

सुमती इकळापून भागरतीक सांगतालें, "व्हनये. म्हाज्या पोराचो तुज्या चेड्यान घात घेतलो, तेका ख्यास्त दी!"

पूण भागरती चीप्प तोंडातल्यान ब्र काडना. सुमती चिंतता, "आतां खंय गेलें भागरतीचें व्हड मन? म्हज्या पोराक आपली धूव म्हणटाली व्हनी, आतां खंय गेलें तिचें आवयपण ?"

रडून रडून सुमती पिशांतूर जालें. जेवण ना खाण ना. "जाई. म्हाज्या पोरा

गो ऽऽऽ!'' अशें म्हणत रस्त्यांनी भोंवूंक लागलें....

आतां तें मेंटल हॉस्पिटलांत आसा. कोणेंतरी गांवच्यान ताका थंय व्हरून दवरलां.



# स्वेता

ट्रींग.....ट्रींग! दारावयली बॅल वाजली. नुस्तें उजरावंक बशिल्लें स्मिता आदोळेवयलें सडसडीत उठलें आनी ओट्याकडेन वचून हात धुवन दार काडूंक गेलें. पळय जाल्यार दाराचे खांचीतल्यान पत्र उडोवेन पोष्टमॅन गेल्लो. तें पत्र स्मिताच्याच नांवार आशिल्लें. "म्हाका आनीक कोणाचें पत्र काय?" स्मितान ते पत्र बेगबेगीन फोडलें आनी वाचूंक लागलें.

*मोगाळ, सौ. स्मिता*

*नमस्कार.*

*स्मिता, हांव गोंय सोडून मुंबय रावंक आयल्यार धायेक वर्सां जातलीं, पूण मदीं गोंयां येवप घडलें ना. तूं म्हजेर रागार जालां आसतलें न्हय? तुका दिसतलें, मेधा आपल्याक विसरल्लें, पूण ना. स्मिता म्हाका तुजी सदांच याद येता.*

*आज तुका हें पत्र मुद्दाम बरोवपाचें कारण म्हळ्यार, हांव आनी मनोहर ह्या म्हयन्याचे धा तारखेक गोंयां येतलीं. तेन्ना तूं आनी सदानंद आमकां व्हरूंक विमानतळार येयात.*

*आनीक एक गजाल तुका कळोवंक म्हाका खूब खोस भोगता, ती म्हळ्यार म्हजो व्हडलो चलो दोतोरकेक बऱ्या मार्कांनी पास जालो. आनी आतां न्ही, ताणें स्वता प्रॅक्ट्रीस सुरु केल्या.*

*म्हज्या मनांत मुगो, बेगीन सून हाडपाचो विचार आसा. आमी गोंय सोडून मुंबय रावंक आयिल्लीं तेन्ना, स्वेता धायेक वर्सांचें आशिल्लें. दिसूंक सुंदर गोरेंपिट्ट, बावली कशें. तें तेन्नाच म्हज्या मनांत भरिल्लें. आतां ते कळयेचें रुपांतर नाजूक फुलात जाल्लें आसतलें. तेन्ना भावी सुनेक पळोवंक आमी बेगीन येतात.*

*स्वेताक म्हजो मायेमोगाचो आशीर्वाद.*

**तुजेंच,**
**सौ. मेधा**

स्मितान हें पत्र वाचलें. 'भावी सुनेक पळोवंक' हीं उतरां स्मिताक कानकुतल्यो करतालीं आनी परत परत हीं उतरां स्मिताच्या ओंठार घोळटालीं. स्मिता आपूणच हांसलें ताणें तें पत्र व्हरून देवा म्हऱ्यांत दवरलें आनी देवाक पांयां पडलें. ताचे एकटे एकसुरे अपुरबायेचे चलयेक सोयरीक दारांत चलून आयिल्ली.

''खरेंच म्हजें स्वेता भाग्यवान म्हणपाचें. इतलें बरें घराणें, मेधासारकेली जीवाक जीव दिवपी मांय, मनोहरासारकेलो मायेस्त मांव, जुहू सारकेल्या वाठारांत स्वताचो फ्लॅट, गाडी आनी पवनासारकिलो दोतोर घोव.''

स्वेता अजून कॉलेजींतल्यान येवचें आशिल्लें. ''आज आठ तारीख म्हणटगेर मेधा परां येवपाचें, बेगीन तयारेक लागल्यार बरें. खरेंच दीश्ट लागपासारक्यो जावो मेळटल्लो म्हजे चलयेक.''

स्मिताक उमेद जाली. मेधा खरें म्हळ्यार स्मिताची पयलींची शेजात्र. तांचीं दोगांयचीय घरां पणजे मळ्यांत, म्हऱ्या-म्हऱ्यांतच. स्मिताचो घोव सदानंद वकिल तर मेधाचो मॅनेजर. दोगांयचेय वेवसाय वेगळे तरी दोगूय एकामेकांचे मित्र आशिल्ले. स्मिता आनी मेधा तर जीवाक जीव दिवपी मैत्रिणी. हांगेर शिजता तें तांगेर आनी तांगेर शिजता तें हांगेर पावतालें. मेधाक एकलोच चलो 'पवन' आनी स्मिताक एकलेंच चली 'स्वेता'. मनोहराची जेन्ना मुंबय बदली जाल्ली तेन्ना पवनाची मॅट्रीक जाल्ली आनी स्मिता सव्वेक आशिल्लें. स्मिताच्या मनाक हे विचार चालू आसतना बेल वाजली.

''बाय स्वेता, आयलें तूं? तुका आज वेळ कित्याक जालो?'

स्वेतान कानांमनार घेतलेंच ना. आपलें पुस्तकांचें बॅग सोफार आपटावन तें सदचे भशेन आड्डलें.

''मम्मा, म्हाका बेगीन वाड. म्हाका परत कॉलेजींक वचूंक जाय, वेळ जातलो, सूरज वाट पळयतलो, ताचे बरोबर स्कुटरीन वतलें हांव.''

''स्वेता, हांवें विचारिल्ल्या प्रश्नाचें उत्तर तुवें म्हाका दिवंक ना.''

''कितें सांगू तुका मम्मा, टेबल टॅनिसाची प्रॅक्टीस करतालें.'' आवयच्या

प्रश्नाक व्हडलीशी किंमत दिनासतना स्वेतान सांगलें आनी तें बाथरुमांत गेलें.

स्मितान बेगबेगीन दोगांयकय ताटा दवरलीं आनी जेवण वाडलें. आपले चलयेचो सभाव पळोवन स्मिताक खूबच वायट दिसतालें. पूण करतलें कितें? "स्वेता, बाय, जेवंक यो गो." स्वेतान फकत हात आनी तोंड धुलें आनी तशेंच जेवंक बसलें.

"बाय स्वेता, तुका एक खोशयेची गजाल सांगूंक जाय." "हाऽऽ य तिखट! तिखट! मम्मा, साखर, बेगीन दी, साखर. कितलें तिखट जालां गे तोंडाक?" स्मितान जेवपाक सुरवात केल्ली. तें तशेंच हात धुवन बेगीन उठलें आनी साखरेचो डबो हाडून चलयेचे सुवादीन केलो.

"बाय, तुका एक खोशयेची गजाल सांगूंक जाय." स्मितान परत म्हळें. पूण स्वेताचें ताच्या उलोवण्याचेर लक्षच नाशिल्लें. खरें म्हळ्यार स्वेताक स्मितानच माथ्यार बसयिल्लें म्हळ्यार जाता. ताचें प्रत्येक उतर स्मिता वयलेवयर जिखतालें. ताका दर फावट 'हय देवा हय देवा' करतालें. ताणें मम्माक कसलोय हुकूम सोडप आनी मम्मान तो गुलाम जावन मान्य करप ही स्वेताक संवय जाल्ली. स्वेताचो सभाव सामको हट्टी आनी दुसऱ्यांचेर हक्क गाजोवपी आशिल्लो. तें सदांच कॉलेजींत सगळ्या कार्यावळींनीं फुडें. इतलेंच न्हय तर टेबल टेनीसचें चॅंपियन आसलें. ताका खूब इनामांय मेळटालीं. कॉलेजींत नांव, पेपरार नांव, ताका लागून ताची तोखणाय खूब जाताली आनी पयलींपासून हट्टी आनी घुमो आशिल्ल्या ताच्या सभावाक आवयचें तोखणायेचें आनी अपुरबायेचें सारें मेळून तें सामकेंच घमेंडी जाल्लें.

"खरेंच, ह्या असल्या सभावान पोराच्या जल्माची माती जातली. एकोणीस-वीस वर्सांचें चली हें. आतां लग्न जावन घोवागेर वचपाचें. थंय अशें वागल्यार सोबता ? ना! आतां हळू हळू करून हांव ताका जाग्यार हाडटलेंच." मनांत निश्चेव करून स्मितान ताका म्हळें. "बाय, परां आमगेर मुंबयच्यान मनोहर अंकल आनी मेधा आंटी येतलीं."

"इतलेंच मगो, तातूंत कितें जालें?" अशें म्हणून स्वेता थंयच्यान उठून

बॅसिनाकडेन तोंड धुवंक गेलें.

''स्वेता, आगो फुडलें आयक. तुका सून करून घेवपाचो तांच्या मनांत विचार आसा.''

''मम्मा, म्हज्या मनांत इतले बेगीन लग्न जावपाचो विचार ना. दाखोवन पसंत करपाक हांव कितें खेयणें काय कितें ? म्हाका आवडनात असले फालतू प्रोग्राम.'' तुवाल्याक तोंड पुसतां पुसतां स्वेतान म्हळें.

''कितें सांगपाचें हे चलयेक? असलें घराणें आमकां सोदून सापडपाचें ना आनी हाच्या तोंडाक हळद लागल्या! म्हजीच चूक जाली. हांवेंच स्वेताक खूब सदळ सोडलें आनी कलम हाताभायर गेलें. पूण कितेंय करून हें लग्न जावूंकच जाय.''

ट्रींग... ट्रींग... स्मितान दार काडलें.

''आं, तुमी आज बेगीन आयले काय कितें?''

''बेगीन? वरां पळय मुगो कितलीं जालीं तीं.'' सदानंदान ताका म्हळें.

''आं, खरेंच वेळ कसो गेलो तो कयळोच ना.'' स्मिता बेगीन रांदचे कुडींत गेलें आनी गॅसार एके वटेन च्याक दवरून दुसरे वटेन शिऱ्याचे तयारेक लागलें. केन्ना काय ती आनंदाची गजाल सदानंदाक सांगन अशें स्मिताक जाल्लें. सदानंदाची च्या पियेवन जातगेर ताणें हळूच तें पत्र हाडून ताका दिलें.

''हें पळय, आयकलां? मेधाचें पत्र आयलां.'' पत्र वाचून खरें म्हळ्यार सदानंदाक आनंद जाल्लो, पूण स्वेताचो सभाव तो जाणा आशिल्लो. ताणें स्मिताक म्हळें, 'स्मिता, हो जागो बरो, भुरगो बरो, सगलें खरें ! पूण मनोहराची आनी मेधाची आपले सुनेविशी मनांत तयार केल्ली फ्रेम वेगळी आसतली, ते फ्रेमींत स्वेता बसूंक जाय. आतांच पळय साडेसात वरां जालीं, अजून स्वेताचो पत्तो ना.''

धा तारखेचो दीस उदेलो. स्मितान आपलें सगलें घर निव्वळ केलें आनी

सुंदर सजयलें. ताणें आपले परीन त्रास घेवन मनोहराचें आनी मेधाचे आवडींचें खाण-जेवण केल्लें, स्मिता आनी सदानंद आपले भावी वेण-वेणीक हाडूंक विमानतळार वचूंक भायर सरिल्लीं.

"बाय स्वेता, तूं येता मुगो आमचे बरोबर? चल बेगीन भायर सर."

"हँ ऽऽ हांव येंवचें ना. हांव कितें बेकार काय कितें ? म्हाका कॉलेजींत वचूंक जाय प्रॅक्टीसेक. फुडल्या आठवड्याक आमच्यो इंटर कॉलेज टुर्नामेन्टस् आसात." अशें म्हणून स्वेतान कान फाफुडले.

"बाय स्वेता, आतां तुजें लग्न जावपाचें आसा, तेन्ना तुवें कशायकशें वागूंक फावना."

"ना मम्मा, हांव कॉलेजींत वतलेंच." ताणें आपलें तेंच खरें केलें.

"बरें सायबिणी, तुका जाय थंय वच! पूण मात्शें बेगीन घरा यो."

"म्हाका पळोवपाक आयलीं म्हण कितें जालें ? असल्या बारीक-सारीक खबरांक लागून हांव म्हजो कॅरिअर वगडावचें ना." अशें सांगून स्वेता कॉलेजींक गेलें.

सदानंदान हो आवयधुवेचो संवाद आयकल्लो. ताका आपले धुवेचो खूब राग आयिल्लो. अपमानान बाविल्या स्मिताच्या तोंडाकडेन ताणें पळयलें. ताका स्मिताची काकूट दिसली. ताणें स्मिताक म्हऱ्यांत घेतलें आनी तो ताका समजावंक लागलो.

"हाच्या ह्या चिन्हांनी म्हाका दिसना स्मिता, कीं तीं स्वेताक पसंत करतलींशीं!"

टण्ण..टण्ण.. टण्ण.. घड्याळीर आठ वरां जाल्लीं. अजून स्वेताचो पत्तो नाशिल्लो. मेधाक मनांत दिशिल्लें, तीं येतात म्हण स्वेताक उमेद जातली आनी तें तांचे वाटेकडेन आशेन दोळे लावन बसतलें. पूण, हांगा घडलें उरफाटें.

'मम्मा, हांव आयलें." अशें ल्हान भुरग्यावरी सांगत दुबू दुबू धांवत स्वेता

घरांत भितर सरलें. मेधाची आनी मनोहराची नदर आपले सुनेक निरखितालीं. ते बॉयकट केल्ले केंस, कपलाक ना, कान, गळो हात सगलें उगडें, तायट टी शर्ट आनी धोंपरावयर स्कर्ट. येतनाच ताणें म्हळें, ''मम्मा, मम्मा, म्हज्या पोटाक भूक लागल्या गे, बेगीन वाड म्हाका. सुस्त न्हिदूंक जाय. मम्मा, सूरज कितली फास्ट स्कुटर चलयता गे? कितली मजा आयली जाणां?''

मेधाक खरें म्हळ्यार आपले सुनेचो हो अवतार आवडलो ना. हरशीं कितेंय कर, पूण आज तरी स्वेतान घरा रावंक जाय आशिल्लें आनी हिंदू संस्कृती प्रमाण कपलाक कुकूम आनी हाताक एक एक तरी कांकण घालूंक जाय आशिल्लें. तेंच तर सौभ्याग्याचें लक्षण. हॅऽऽलो हाऽऽय अंकल, हाऽऽय आंटी अशें स्वेताचें वागणें पळोवन स्मिताचे तकलेक उजो पेटिल्लो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं णव वरां जावन गेलीं तरीकय स्वेता उठूंक नाशिल्लें. सकाळींफुडें उठून स्मिता एकटेंच रांदचे कुडींत बोवाळटा हें मेधा बारकायेन निरखितालें. साडेणव वरां जालीं आनी स्वेता उठलें.

''मम्मा, म्हजो ब्रश.''

''बाय, म्हजे हात बेकार नात गो, मात्शें तूंच लावन घे पेश्ट.''

''म्हाका वाज येता. तूंच दी.''

स्मिताक मनाक दिशिल्लें कीं आज तरी स्वेता मात्शें शाणेपणान वागतलें म्हण. पूण ना. स्मितान आपलें काम अर्दकुटें उडोवन स्वेताच्या हातांत पेश्ट लावन ब्रश हाडून दिलो. हावा-शिवा करून स्वेता तोंड धुवन आयलें.

''मम्मा, तुवालो दी गे बेगीन. म्हजे हात आनी तोंड ओलें आसा. बेगीन हाड.'' स्वेतान मम्माक ऑर्डर सोडली आनी मम्मान ताका बेगीन तुवालो हाडून दिलो. मेधा स्वेताच्या ह्या सगल्या गुणांचें परीक्षण बारकायेन करतालें.

''स्मिताताई, मात्शें दार काड न्ही.'' मंजूळ आवाज मेधाच्या कानांर पडलो आनी मेधानच दार काडलें. प्रिया मेधाक पळोवन गोड हांसलें. हांसतना ताच्या दोनूय पोल्यांक दोन गोड खळयो पडिल्ल्यो.

"यो प्रिया, यो बस." स्मितान म्हळें आनी ताची मेधाकडेन ओळख करून दिली.

"प्रिया, ही मेधाआन्टी आनी मेधा, हें प्रिया. आमच्या शेजरा रावता."

"मेधा आन्टी, तुमी केन्ना आयलीं?" प्रियान आपलेपणान मेधाची वासपूस केली. "स्मिताताई. हांव लाटतां चपात्यो. तूं दुसरें कितेंय कर." प्रिया स्मिताच्या हातांतलें लाटणी-लाटफळें घेवन लाटूंक लागलें.

"नाका गो बाय प्रिया." अशें स्मितान म्हळें आसतनाय ताणें त्यो सगळ्यो चपात्यो बेगीन लाटून दिल्यो.

इतलें म्हणसर "दिदी, दिदी, तुका बाबान आपयलां." अशें सांगून प्रियाची भयण येवन ताका घेवन गेली.

"मेधा, हें प्रिया म्हळ्यार एकदम मायेस्त आनी गुणेस्त पोर. सभावान एकदम बरें. आमच्या स्वेताच्या क्लासांत बी.ए.च्या निमाण्या वर्साक आसा तें. म्हाका थोडेफावट उपयोगाक पडता तें! हांवें उलो मारचे पयलीं धांव घेता. खरेंच स्वेताक व्हड भाव आशिल्लो जाल्यार हांव प्रियाक म्हजी सून करून घेतलें आशिल्लें." आपशींच स्मिताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर पडिल्लीं.

"मेधा, आतां प्रियाक आपोवंक आयिल्लें तें प्रियाफाटलें, तें अंदू बारावेक आसा. तांकां आवय ना. बापूय बँकेंत सर्विस करता. घरांत सगलें जेवण बी प्रियाच करता. इतलें आसून शिकूंक हुशार पोर. इतलें गुणेस्त पोर सोदून सापडपाचें ना." स्मिता मेधाकडेन प्रियाची तोखणाय करतालें.

मेधान आपल्या मनांत तयार केल्ले फ्रेमींत प्रिया सारकें बसतालें. मेधाक तें मनांतल्यान आवडिल्लें. मेधान स्वेताचो विचार मनांतल्यान काडून उडयिल्लो. ताणें रोखडीच प्रियाक मागणी घालून आपली सून करून घेतली.



# मंजुळा

मंजुळा आपल्या चार वंटींच्या बसक्या घराफाटल्यान बसून आयदनां घासतालें. तें आपल्या कामांत गुल्ल आशिल्लें. ताका आपले भोंवतणीं कितें चल्लां हाचें मातय धंगण नाशिल्लें. ताचो सात वर्सांचो मनोज खर्शेत आनी धांपेत ताच्या म्हऱ्यांत आयलो. तो घुस्मटून रडटालो. ताणें येवन आवयक आपलें गाऱ्हाणें सांगलें.

तो वाड्यावयल्या भुरग्यांवांगडा खेळूंक गेल्लो थंय चार-पांच पोराट्यांनीं एक जावन ताका बरोच बडोवन काडिल्लो. बाबडो गरीब मनोज! कितें करतलो? कोणाचो तरी फातर बशिल्ल्यान ताचे तकलेक व्हडली कोंक जाल्ली. तातुंतल्यान रगताची धार व्हांवताली. मंजुळाच्यान पळोवं नज जालें. कितें करतलें? तोंडांतल्यान एक उतर भायर काडत जाल्यार शेजाऱ्री ताच्या आंगार येताल्यो. कितलेंय जाल्यार गरीब पडलें न्हय तें ? तरीकय नाक नाशिल्लेभशेन कोंकीक कितेंय वखद लायतलें म्हण शेजारचे मावशींबायगेर गेलें. पूण ताका फाटल्या पांयांनी परतवचें पडलें. बाबड्यान नशीबांतच बरें मागलें नाशिल्लें.

मंजुळाचे जिणेंत दुखच भरिल्लें. सुखाची ताणें केन्नाच आस धरूंक ना. ताका आपल्या जीवींतांतल्या बऱ्यावायट प्रसंगांची याद जाताली. मंजुळाचे एकवीस वर्सांचे पिरायेर ताच्या घोवाचेर यमान आपलो फांसो घाल्लो. ताच्या वयाच्यो तरणाट्यो चलयो मोटे उमेदीन मिरयताल्यो, पूण मंजुळाचेर मात काळखी जीण जगपाचे दीस आयिल्ले.

मंजुळा णव वर्सांचें आसतना ताचो बापूय कसल्या तरी दुखण्यान भायर पडिल्लो. गरीब परिस्थिती, तांकां आदार दिवपी कोणूच नाशिल्लो. चौगजाण भावंडांक मंजुळाच व्हडली भयण जाल्ल्यान संवसाराचो सगळो पेच ताचेर पडिल्लो. आवयचेर तर दुःखाचो दोंगर कोसळिल्लो. कांय दीस घरांतूच काडले. घरांत कितें आशिल्लें तें सगळें सोपिल्लें.

मंजुळा शेजारच्या पसरकारागेर कामाक लागिल्लें. ताचे आवयन दोगजाणांगेर काम धरलें. पोटापाण्याचो प्रश्न सुटिल्लो. वर्सां वतालीं, मंजुळा वाडत वतालें. तें आतां वयांत आयिल्लें. चौगांय भांवडांमदीं ते रुपेस्त दिसतालें. पूण काळाक ताचें रूप-गुण पळोवं नजो जालें. पंचेचाळीस वर्साच्या एका विधुराकडेन सोळा वर्साच्या मंजुळाचें आवयन लग्न थारायिल्लें. तो पयशांनीं बरो आशिल्लो म्हण मंजुळाचे आवयक ताची मागणी नाकारप बरें दिसलेंना. आपल्या गरीब संवसाराकडेन पळोवन तिणें आपले धुवेचें लग्न त्या गिरेस्ताकडेन थारायिल्लें.

मंजुळा आतां संवसार करतालें, ताचे आवयक दिसतालें, जावं, आतां आमचें मंजुळा सुखांत जगता. पूण ना, ताच्या बाबड्याचे जीणेंत ल्हानपणांपासून सुखाचो वास नाशिल्लो. मंजुळाचो घोव खोऱ्यांनी पयशे जोडटालो, पूण ताचो उपेग कसो करप हेंच ताका कळनाशिल्लें. तिळसान जालीं तशी सोरोबेबद्या घोवाचो यतीश्ट मार खावपाची मंजुळाक संवय जाल्ली. सोऱ्याच्या नादाक लागून मंजुळाच्या घोवाची गिरेस्तकाय हळूहळू उणी जावंक लागिल्ली. अठरा वर्साचे पिरायेर मंजुळान मनोजाक जल्म दिलो. ताच्या तोंडाकडेन पळोवन तें जगतालें.

तिळसानचो वेळ आशिल्लो. मंजुळाचो घोव सदचेभशेन सोऱ्याचें बल्ल जावन रस्त्यावयल्यान येतालो. सदचे परस तो आज चड पिल्लो. रस्त्यावयल्यान वेगान येतल्या एका ट्रकाचो धपको बसून तो सकयल पडलो आनी तोच धक्को ताचे जिणेंतलो निमाणो थारलो.

भितरल्यान कसलोतरी करपल्लो वास आयलो आनी मंजुळा भानार आयलें. रान्नीर दवरिल्ल्या शिताच्या तपल्यांतलें उदक आटून शीत सगलें करपल्लें. घोवान जोडिल्ली जोड नाशिल्ली. फकत मंजुळाच्या आंगावयल्यो चार वस्ती मात उरिल्ल्यो. मंजुळाक मनोजाक ल्हानाचो व्हड करपाखातीर कसलेंतरी काम करूंक जाय आशिल्लें. मंजुळान लोकांगेर आयदनां घांसपाचें काम धरल्लें. आपल्यो वस्तू विकून चार पयशे एकठांय करपाचें आनी मनोजाक शिकोवपाचें ताणें थारायिल्लें. मनोज शिकूंकय हुशार आशिल्लो. तो मॅट्रिकेचे परिक्षेक गोंयांत धा नंबरां भितर आयिल्लो.

आतां मनोज कॉलेर्जाक वचूंक लागिल्लो. मंजुळा कश्टांची पर्वा करिनासतना मनोजाक शिकयतालें. मनोजाक पळोवन मनांत म्हणटालें, आपली त्रासांची जीण सोंपतली, आपल्याक बरे दीस येतले.

ताचें दुखणें ताच्या तोंडार उदेल्लें. मनोजाचें हें दोतोरकेचें निमाणें वर्स आशिल्लें. मंजुळाची खोशी ताच्या फुटक्या नशिबाच्यान पळोवं नजो जाली. ताच्या जिवाक बरें ना जालें. पूण ताणें तें आपल्या चल्यापासून लिपोवन दवरलें. एकदांची मनोजाची दोतोरकेची परिक्षा सोंपली.

मंजुळाचें दुयेंस आतां चडार पडिल्लें. मनोजाचे नदरेंतल्यान तें सुटलें ना. ताका कळ्ळें, आपली आवय आपलेपसून कितेंतरी लिपयता. ताणें आवयक ते विशीं विचारलें. ती हय ना करूंक लागली, तशें जबरदस्तीन ताणें तिका तपासली, पूण आतां खूब वेळ जाल्लो. आतां तें थोड्याच दिसांचे सोयरें आशिल्लें. आपले आवयची ही दशा पळोवन मनोजाचें काळीज हालूंक लागलें. ताका दिसलें कीं ही सगली भूंय आपले भोंवतणीं धुंवता, आपूण एका व्हडल्या वादळाचे मदीं सापडलां.

पूण मनोजाक आपलें काळीज घट करचें पडलें. ताणें आपल्या मनाची अवस्था आवयक दाखोवन दिली ना. ताका आवयचें मन खुशालभरीत दवरूंक जाय आशिल्लें. तिच्या दुयेंसाचो तिका पत्तोच लागूंक दिवंक नाका आशिल्लो.

मनोज आवयची सेवा मन लावन करतालो. ताणें पयशांची पर्वा केली ना. आज जरी आपणें रीण काडलें, तरी आपूण तें फाल्यां पावोवंक शकतां हें मनोजाक खबर आशिल्लें. अशेच दीस वताले आनी मनोजाचो रिझल्टाचो दीस आयलो.

पेपराचेर मनोजाचो फोटो छापून आयिल्लो, तेच बरोबर ताची तोखणाय छापून आयिल्ली. मनोज दोतोरकेचे परिक्षेंत पयलो आयिल्लो. पेपर पळोवन ताच्या दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां व्हावंक लागलीं. एकेवटेन ताका आनंद जातालो, आपले आवयन आपल्याक इतले त्रास काडून शिकयलो ताचें फळ मेळ्ळें म्हण. तर दुसरे वटेन जे आवयन आपले खातीर इतले त्रास सोंसले आनी

भोव कश्ट काडून दोतोर केलो नी आवय आतां बरे दीस पळोवपाच्या वेळार हें जग थोड्याच दिसांनी सोडपाची आशिल्ली म्हूण ताचें मन रडटालें. हो रिझल्ट पळोवन तिका कितें दिसतलें? आपले पसत त्रास सोंशिल्ले आवयखातीर आपूण कांयच करूंक शकना म्हण ताका खूब खंत भोगताली. ताणें आपलें काळीज घट केलें आनी तो आवयक ती आनंदाची बातमी सांगूंक गेलो.

"आई, आई, हांव पास जालों. आई, हांव गोंयांत पयलों आयलों. पळय, हो पेपरांतलो फोटो पळय! हाका वळखता तूं?"

अशें म्हणून मनोजान पेपर मंजुळाच्या दोळ्यांमुखार धरलो. हांतुणार न्हिदिल्ल्या मंजुळान दोळे उकते केले, ताचे ओंठ हाल्ले, दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळ्ळीं. ताणें मनोजाचो पेपर धरिल्लो हात हातांत घेतलो.

मंजुळाक खूब आनंद जाल्लो. पूण ताच्या तोंडांतल्यान उतर फुटनाशिल्लें. ताची नंदर मनोजाचेर आशिल्ली. जणूंकाय हेचखातीर तें राविल्लें. ताणें जड उतरांनी म्हळें,

"म---नो---ज"

मंजुळाचो हात मनोजाच्या हातांतल्यान सकयल पडलो. मंजुळाची जिणेची वात पालवल्ली. ताची दुखेस्त जीण सुखाक भियेवन पयस गेल्ली.



# रुपा

रातचीं बारा वरां जावन गेल्लीं. आजून रमाकांताचो पत्तोच नाशिल्लो. रुपाची नदर परत परत घड्याळीर वताली. रिया आनी रज्जत दोगांय सुस्त न्हिदिल्ल्यीं. हें आतां रुपाक सदचेंच जाल्लें. सदांच रुपा आशेर जगतालें. मनांत म्हणटालें, 'एक ना एक दीस रमाकांताक आपली चूक समजतली आनी तो सुदारतलो'. आपलो संवसार सुखाचो जातलो. पूण ना. रुपाची समजूत एकदम चुकीची आशिल्ली. आतां तर रातचें एक वर जाल्लें, आजून तो येवंक नाशिल्लो. इतल्यान गेटीचो आवाज आयलो आनी गेटींतल्यान रमाकांताची तांबडी मारुती भितर सरली. रमाकांतान आपणेंच चावयेन दार उगडलें. तो भितर सरलो.

"हें कितें? तू केन्ना तरी निवळटलो? तुका जालां तरी कितें ? तूं असो सदांच उठून म्हाका कित्याक छळटा?'' रुपान म्हळें.

"तूं कोण म्हाका सांगतलें ? तुजें हांवें केन्नाच कितें आयकलां ? तूं म्हाका पोसना, तुजे आवय-बापूय म्हाका पोसनात! म्हज्या पयशांनी हांव पितां आनी हांव पितां तें तुका लागून.'' रमाकांतान म्हळें.

"म्हाका लागून? हांवें कितें केलां ?''

"तूं उरफाट्या पायांचें, ह्या घरांत आयलां म्हण.''

रुपा रडूंक लागलें. "तुजें तोंड सांबाळ. दीसरात सोरो पिता, बारांनी पडटा आनी जोडिल्ली जोड सोऱ्याक मोडटा. वयल्यान म्हाका लागून म्हणटा?'' रुपा चाळवलें.

"हय तुकाच लागून. म्हाका तुजें जेवणय नाका आनी खाणय नाका. हॉटेलांनी बरें जेवण मेळटा.''

सिगरेटीचो वास आनी सोऱ्याच्यो घाणी सगळयाक पातळिल्ल्यो.

"खऱ्यांनीच वीट आयलो सामको जीवाचो! जीव दिवचोसो दिसता.'' रुपा

बडबडूंक लागलें.

"आगो, कोणें दिवंनाका म्हणलां ? दी! कैदाशिणी, सगल्यांचें कल्याण जातलें तू मेल्यार. कुसकें खंयचें! घुंवन घुंवन म्हज्या गळ्याक पडलें, तोंडय घेवन वचना!"

भुरग्यांची न्हींद खळ्ळी. तीं उठून बसलीं. दुसऱ्या दिसा बाबडीं इश्लोलाक वचपाचीं. हें सगलें सदांच आयकून तांकांय तिडक मारता.

"मम्मी, तूं तरी ओगी राव गे ! आमकां न्हिदूंक सुध्दां दिनात मगे तुमी? तो जाता तितलो बडबडूंदी."

खरें म्हळ्यार रुपा जीवाक सामकें विटिल्लें. खूब फावटीं ताका दिसतालें, जीव दिवंचो. पूण जल्माक घाल्लीं दोन भुरगीं दोळ्यांमुखार येतालीं. तांचें कशें जातलें? तांणी कितें पातक केलां ? उलट तांकां जल्म दिवन आमी तांकां त्रासांत उडयल्यांत. हें येवजून तें फाटीं सरतालें.

व्हडलें चलीं रिया आतां बारा वर्सांचें जाल्लें आनी चलो धा वर्सांचो. रमाकांत बँकेत ऑफिसर. ताका पगारय बरो मेळटालो. पूण तो मेळून फुकट! ताणें पगार बायलेच्या हातार केन्नाच दवरलो ना. तो रुपाक सदांच पैशांक वळवळायतालो. प्रत्येक म्हयन्याक खर्चाक पयशे मागले कीं ताणें रुपाच्या आवय-बापायक वयर काडप. पयशे मागूंक तांचेकडेन वच म्हणप. ना जाल्यार म्हणप कीं वच आनी धंदो करूंक बस कितेंय जोडून हाडटलें आनी म्हारगाय वाडटा तितली ताचें खर्चाक पयशे दिवपाचें प्रमाण कमी जातालें.

हरशीं भायर लोकांक रमाकांत एकदम बरो. कोणाक शुअरिटी रावप, कोणाक मदत करप, कोणाक पयशे दिवप, लोकांचें सामान हाडून दिवप, बेबद्यांक सोरो पाजप, हॉटेलांनी व्हरप. पूण घरांत ताणें केन्नाच कितें हाडलें ना. बायल भुरग्यां खंयय पावूं, तीं मरूं ना जाल्यार उरूं, तांची ताका पर्वा नाशिल्ली.

शेनवाराक ताका हाफ डे, आयताराक सुटी. पूण रमाकांत केन्नाच दनपरां

ऑफिस सुट्टगेर घरा आयलें ना. शेनवार दीस तो साडेचारांक साडेपाचांक बी जेवन येतालो आनी तीनसांजचो परत वचून रातीचो साडेबारांक ते एकाक घरा येतालो. केन्नाकेन्नाय रातीचो घराय येना आशिल्लो दोन-तीन दिसांनी घरा येतालो. खंय वतालो, खंय रावतालो, कांयच सांगनासलो.

रुपान कितली देव देवसपणां केलीं. घोवाक समजावन सांगून पळयलें, झगडून सांगून पळयलें, सोपूत घातले, आपले भुरग्यांचे ! देवाचे ! पूण ना, ताका मर्नीसपणच नाशिल्लें. तो एक घट्ट पाशाणी फातर. ताणें रुपाक केन्नाच नांवांन उलो मारलो ना. बरें उतर केन्नाच दिवंक ना. ताका बायलेक चार-चौगांहुर्जार लज करपाची खूब उमेद आनी दीस रात मोठ्या मोठ्यान बायलेचेर तापप म्हळ्यार ताका दादलेपण दिसतालें. बायलेक उणाक लेखप, बायल म्हळ्यार वालोर नाशिल्ली, मन नाशिल्ली, फकत घोळपाक आनी छळपाक हाडिल्ली एक वस्त अशें ताका दिसतालें. ताणें केन्नाच बायलेचें कांयच आयकलें ना.

रुपा सदांच मनांत येवजितालें, खऱ्यांनींच व्यर्थ म्हजी जीण. शिकून फुकट, नोकरीय ना, फकत चूल आनी मूल. हांवें जोडल्यार हांव कितेंय करूंक शकतलें आशिल्लें. स्वावलंबी जातलें आशिल्लें. आंकवारपणांत नाचरेपणां केलीं नात, खंयच्याय चल्याकडेन इश्टागत केली ना, आवय-बापूय सांगता तें आयकलें, सोयरीकेन लग्न जालें, पूण कितें मेळयलें हांवें?

एका दिसा रुपाच्या जिवाक बरें ना जालें. घोव असोच रातचो एक वराचेर आयलो. रुपान म्हळें, ''तूं अशेंच करतलो केन्नाच सुदारपाचो ना?''

''तूं कोण गो म्हाका सांगपी ? चार पयशे जोडपाची अक्कल ना.''

''हें पळय, आज म्हज्या जीवाक बरें ना. तूं अशें करूं नाका. आमची न्हीद पेड्डयार जाता. तुकाय फाल्यां कामाक वचूंक जाय, भुरग्यांक इश्कोलाक वचूंक जाय. तांच्या अभ्यासाचेर परिणाम जाता. म्हाका तर टेन्शनान न्हीद पडना. म्हजें ब्लडप्रेशर देंवता आनी म्हाका दिसभर घुंवळ येता. आमचो, भुरग्यांचो फुडार कितें म्हण म्हाका समजना.'' रुपान म्हळें.

"तूं सदांच पिडेपोटलो! मरना पिडा! तूं मेल्यार सगलें बरे जातलें. कुसकें, धोंसकें, वांकड्या पांयांचें." तो बडबडूंक लागलो.

"हय, हांव मेल्यार बरें जातलें, खऱ्यांनीच सोंसूंक जायना म्हज्यान. जीवच नाका जावन पडला!"

रातीच्यो राती फुगार जावन रडून काडप आनी वयल्यान रमाकांतान हांसून कुचिर्त्रीपणान म्हणप, "हीं मानन्या दुकां, तांकां हांव भीक घालना! कोणा फाटल्यान कांयच उरना. सगलें व्यवस्थित जाता ! बांयंत वचून उडकी मार, ना जाल्यार फॅनाक गोळ लावन जीव दी."

.... आनी एक दीस रुपान निश्चेव केलो. "हाचेर कितेंतरी उपाय काडूंक जाय. घटस्फोट दिवप म्हळ्यार आवय-बापायचें, घराण्याचें नांव पेङ्क्यार जातलें. लग्नाक चौदा वर्सां जालीं, रमाकांत काय सुदारपाचो ना. भुरग्यांच्या नशिबाचीं भुरगीं!"

तो दीस आयतार आशिल्लो. पयल्या दिसा रुपान बाजारांतल्यान न्हिदेच्या गुळयांचें पाकिट हाडलें. आयतारदिसा दोगांय भुरगीं जेवन सुस्त न्हिदिल्लीं. रातचीं साडेबारा वरां जाल्लीं. रुपान दोन तीन फावट येवन भायर पळयलें. अजून रमाकांताचो पत्तो नाशिल्लो. रुपा देवाकुडींत गेलें. दिवली पेटयली, देवा म्हऱ्यांतली पिंजर काडून कपलाक लायली. हाताक काचेचीं कांकणां घालीं, तांबडी सार्डी न्हेसलें, हॉलांत शेनरी घाली आनी ताचेर उशें दवरलें. एक ग्लासभर उदक घेतलें आनी एके गुळयेक एक घोंट उदक अशें करून गुळयांचें पाकीट सोंपयलें आनी शेनरेर सुस्त न्हिदलें.

बरोबर देडाक रातचो रमाकांत भितर सरलो. "आज कुसक्याची जाग ना! खंय गेलें? मेलें काय कितें ?" अशें म्हणून तो हॉलांत आयलो. "वा! आज कुसकें नटून-थटून खंय नाचूंक गेल्लें काय?"

"कुसक्या, नाटकां करता?" अशें म्हणून रुपाचेर एक खोंट घाली. तरी रुपा ओग्गी.

“कैदाशिर्णी, आनी एक जाय खोंट ?” दुसरी घाली, तिसरी बरी मोठ्यान घाली. “आज कुसक्या, मार लागना मुगो!” ताणें रुपाक पांयांनीच धोंगसून हालयलें. पळय जाल्यार रुपा मरून पडिल्लें. एकदम थंय स्वास बंद.

रमाकांतान भियेवन भुरग्यांक उलो मारलो. दोगांय भुरगीं न्हिदांतलीं उठून धांवत आयलीं. “मम्मीक पळयात कितें जालां तें !”

“मम्मी, मम्मी कितें जालां तुका ? उठ! ओ म्हण मगे! ओ म्हण गे मम्मी!” आनी आवयचेर घालून घेवन तीं रडूं लागलीं.

रमाकांत पळयत उरलो. एकदम ताची तकली भेरेल्ले भशेन जाली. कितलो वेळ दोळे मोट्टे करून तो रुपाचे कुडीक पळयत रावलो आनी अकस्मात मोठ्या-मोठ्यान हांसूंक लागलो. “कुसकें मेलें.... कुसकें मेलें, ही --- ही --- ही!” रमाकांताचे तकलेचो तोल गेल्लो, तो पिसो जाल्लो.



# तीन सवंगां

श्रीधरबाब आनी सावित्री, एक जाण्टें जोडपें. भुरगीं बाळां आसून जाण्टेपणांत कोणाचोच आदार नाशिल्लो. भुरग्यांच्यो यादी गांठीक बांधून तांच्या करण्यांच्या पश्चातापान हुलपत दीस सारपी जोडपें. प्रत्येकाक दिसता कीं आपल्याक भुरगीं आसचीं आनी मागीर तीं जशीं अवचिनाळीं जालीं तशें दिसता, नाकात देवा हीं भुरगीं, वांझपण पूण सोंशिल्लें बरें.

श्रीधरबाब एक आस्तीक मनीस. ताका तीन भुरगीं. भुरगीं म्हणचे परस सवंगांच म्हणिल्लीं बरीं. दोन दिवटे आनी एक दिवटी. व्हडलो नागेश, दुसरो मंगेश आनी तिसरें लक्ष्मी. खरें म्हळ्यार नागेशाक 'नागेश' हें नाव दवरून देवाचोच अपमान केल्ले भशेन. ही सुवारी कॉलेजींत वचपी. प्रत्येक वर्गांत तीन तीन वर्सां नापास जावपी. पोराक एकदम वायट संगत सापडिल्ली. तो वाटेक लागपाचें दुसरें कारण म्हळ्यार पयसो. तो आजून जोडूंक लागूंक नाशिल्लो, पूण बापाय-खुस्तार मोडूंक मात खूब लागिल्लो.

एक दीस नागेश सोऱ्याचे नशेंत बल्ल जावन लकत पडत घरा आयलो आनी आवयक म्हणूंक लागलो, "मम्मी, म्हाका टुराक वचूंक आतां पांच हजार रुपया दी, बेगीन दी."

ताचो हो अवतार पळोवन सावित्री भियेली आनी तिणें म्हळें, "आरे पापया नागेश. हें कितें आडायलां रें तुवें ? तुजे पांय सारखे पांयांकडेन पडनात मरे! सोऱ्याच्यो घाणी मारतात मरे तुका? सोरो पियेला हय रे तूं? आतां हेंयबी चट लागलें तुका? शीः! सामकेंच बापायचें नाव काडूंक उठला रे तूं आनी मेळत तेन्ना पयशे मागूंक पयशे कितें झाडाक लागतात हय रे? पळय हो अवतार! हळशिकावणे कपडे! शीऽऽ दुकरा परसूय बुरसो रे तूं. आनी नागेश तूं कॉलेजीक कित्याक वता? पयर तुजो एक प्रोफेसर पप्पाक सांगतालो कीं तूं कॉलेजीक चडशीं लेक्चरां बुडयता म्हुणून. तूं खंय फकत कॉलेजीच्या कॅन्टिनात सिगरेटी फुसकायता आनी

चलयांचीं फकाणां मारता. पयर एके चलयेन खंय तुजें तोंड जोत्यांनी फोडलें. तें पळय तुजें ओंठाबरोबर हाताचें बोटय कशें काळें जाल्लें आसा तें! आरे, खऱ्यांनीच तुवें आमच्या नाकाक काळें पुसलां. पश्चाताप जाता म्हाका, हांवें तुज्या असल्या पोराक जल्माक घाला म्हण !' सावित्री सामकी वित्रागून उलयली.

आनी एक दीस खऱ्यांनीच नागेशान शीम-मेर हुस्ली. आपले आवयचें सगळें भांगर घेवन तो पळून गेलो! फाटल्यान फकत एक चीट दवरिल्ली. तातूंत बरयिल्लें




पप्पाक आनी मम्मीक,

नमस्कार.

तुमी म्हाका सोदपाचे भानगडींत पडूं नाकात. हांव मम्मीचें सगळें भांगर घेवन चल्लों. मम्मीक आतां जाणटेपणांत भांगराचो कितें उपयोग? तुमी पुलिशांत केशय करपाचे भानगडींत पडूं नाकात. तुमकांच लजेक म्हारग जातलें. आयच्यान हांव तुमकां मेलोशें समजयात.



नागेश

आतां दुसरें सवंग म्हळ्यार मंगेश. हो आपल्या जिवाक एक व्हड कवी समजुवपी. कॉलेजींत नांवांक वतालो. अभ्यासाचेर लक्ष ना. फकत फालतू अर्थ नाशिल्ल्यो कविता करप. ताच्या खांद्याक एक मळकुटो बोटवो, हातांत बाराय काळ पेन आनी डायरी. तें वाडिल्लें खाड, ना जेवणाचें भान, ना खाणाचें. ताचें उलोवप सुध्दां कवितेंतल्यानच.

"हांव जातलों एक व्हडलो कवी
लोक गायतले म्हज्योच व्हींवी
आई, म्हजे कुडीची शेणल्या चावी!"

"आरे पापया मंगेश, खंय गेल्लो रे तूं इतलो वेळ? चल बेगीन जेवंक यो." सावित्री ताका सांगी. पूण तो म्हणी,

''कविता म्हळ्यार जेवण म्हजें,
मंगेशीचे जात्रेक खूब खाजें,
म्हाका कांयच आयकुवपाचें ना तुजें
म्हजे तकलेर आसा कवितेचें ओजें.''

सावित्रीक खऱ्यांनीच तिडक मारताली आनी ती म्हटली, ''कसल्यो कर्माच्यो कविता करता रे तूं? सारखो उलय, तूं पिसो जातलो म्हण म्हाका भंय दिसता. पूण तो कसोच आयकना आसलो. तो तिसरी कविता चालू करतालो.

''पाचवेचार शेतांत, चकचकीत वतांत पेपर पेन म्हज्या हातांक, सकाळीं उठलों हांव सातांक. ''अरे पापया, मंगेश कितें आडायलां रे तुवें, आं? असल्यो कविता करून तुका कांयच मेळचेलें ना. फकत वेळ मात पिङ्ग्यार जातलो, कविता उजवाडाक येवपाची शक्यता ना. अभ्यास पूण केल्यार कितेंतरी मेळटलें.''

'अभ्यास करून कोण व्हड जाला ?
वाघाक, शिंवाक कोणें शाळेंक घाला ?
हांव एक कवी म्हण जन्माक आयलां.

'खऱ्यांनी सोंसूंक जायना म्हज्यान. चुट्टी पेटोवन लाय रे तुज्या कवितांक'. सावित्री ताचेर तापताली. आनी एक दीस खऱ्यांनीच मंगेश पिसो जावन घर सोडून वचूंक वता. श्रीधरबाब आनी सावित्री ताका खूब समजायतात, पूण तो कसोच आयकना. आनी वतां वतांय तो म्हणटा,

''हें घर, म्हळ्यार एक बंदखण
म्हाका हांगा रावपाचें ना एक खीण.
म्हजें घर निळ्या मळबाच्या बेत्याचें
घरांत पाचवेचार तणाचे गालीचे
आनी उजवाड दिवंक म्हाका बसला थंय सुर्यमाम,
तो सांगता, हातांत घे पेपरपेन सुरू कर तुजें काम.

तो अथांग दर्या म्हाका आपयता

आपल्या दुदाळ ल्हारांनी म्हाका न्हाणोवंक सोदता
हें घरटें आतां तुमच्या दोगांयचें
पिलांक पाखां आयलीं तांणी उडून वचपाचें.''

अशे तरेन हें दुसरें सवंग आवय बापायक सोडून गेलें. आतां उरलें तिसरें सवंग. तांचें चली लक्ष्मी.

हें लक्ष्मी जीवाक खूबच मॉडर्न समजुवपी. ताका सिनेमाचो भोव नाद. आतां हाचो पराक्रम पळयात. ''मम्मी, ए मम्मी, म्हाका बेगीन वाड. म्हाका लैलाबरोबर सिनेमाक वचूंक जाय. जाणां मगे, तांगेर नव्या नव्या सिनेमाच्यो व्हीसीडी हाडल्यात. म्हाका आज घरा येवंक उशीर जातलो, घडये हांव थंय रावन सुदां. आनी मम्मी, लैलाचो भाव म्हण कितलो सुंदर दिसता जाणां ? सारको हिरो कसो दिसता, म्हाका तो खूब्ब आवडटा.'' अशें म्हुणून तें आपूणच मुरगुट्टा.

सावित्रीच्यान हें सोसूंक जायना. ती ताका तापयता. ''चूप्प. लक्ष्मी, आवयकडेन असल्यो खबरो करूंक लजय दिसना तुका ? तुका हांव आतां खंयच भायर सोडचींना. आयच्यान तुजे सिनेमाबी सगलें बंद. बरें शिरबिल्लां! कुडींत बस आनी अभ्यास कर!''

''ओ मम्मी, केदो व्हडलो अन्याय म्हजेर? म्हाका एक वेळ जेवण ना जाल्यार जाता, पूण सिनेमा शिवाय म्हजें कशेंच जावपाचें ना. खरें सांगू तुका मम्मी, हांव कॉलेजीक फकत टायमपास म्हण वता. म्हाका सिनेमांत काम करूंक खूब्ब आवडटा. सिनेमांत नटयांची मजाच मजा न्हय मम्मी? तांकां अभ्यास बी कांयच ना. फकत हिरोंक घेवन नाचपाचें. आनी म्हाका मगे कॉलेजींत सगळे चले हिरोइन म्हणटात. कितली उमेद जाता म्हण सांगूं तुका हांव !''

''पाडपडिल्लें वाचाविदळ खंयचें. चिन्नां धड लागनात म्हाका तुजीं. अंदू वर्साभितर कोणाच्याय गळ्याक बांदूंक जाय तुका. ना जाल्यार तूं हाताक लागपाचें ना,'' सावित्री ताका तापयता.

एक दीस लक्ष्मीची मैत्रीण लैला एक चीट घेवन येता. श्रीधरबाब ती चीट

वाचता. ती लक्ष्मीची आसता.

ति. पप्पाक आनी मम्मीक

नमस्कार,

मम्मी, आज म्हजें सपन साकार जालें. आज हांगा पणजे मिरामार सिनेमाचें शुटींग चलतालें, थंय हांव लेक्चर बुडोवन पळोंवंक आयिल्लें. तेन्ना म्हजी थंय सिनेमा डायरेक्टराकडेन वळख जाली. ताका हांव पसंत पडलें. तो म्हाका ताच्या नव्या सिनेमाची हिरोइन करतलो खंय. म्हाका पळयतनाच ताणें म्हाका म्हळें, "तुम कितनी हसीन हो ! तुमारी तारीफ मैं कैसे करूँ? बिल्ली जैसी आँखें, हिरनी जैसी चाल और लंबे लंबे मुलायम बाल ।

तुम्हे देखतेही मेरे दिल का क्या हुआ हाल ।"

बरें, मम्मी तुमी म्हजी वाट पळोंव नाकात.

बाय बाय.

अशेतरेन तिनूय सवंगां अक्कलशून्य निपजलीं आनी आवय-बापायक लजेक म्हारग करून आपलें तोंड घेवन गेलीं.



# व्यसन

गोविंद शणै एक गांवचो आस्तिक मनीस. खूब पयशेकार, भाटबेंसकार, पयलीं काळांतलो. ताका तशीं आंगोस्तरां वी खूब लागतालीं. ताची बायल तशी दिसूंक वायट नाशिल्ली. मान्शी कुर्ळीसांवळी आसली तरी आंगापांगान घसघशीत. पूण गोविंद शणैली नदर सदांच भायल्या बायलांचेर आनी वयावयल्या चलयांचेर. गोविंदाचें लग्न जातगेर ताका धायेक वर्सांनी भुरगीं जाल्लीं. व्हडलें चली अंजू आनी फाटोफाट दोन चले, संजू आनी मनोज.

गोविंदान आनी बायलेन भुरग्यांक बरें वळण म्हणटात तें लावूं ना. फकत मेळत तेन्ना पयशे मात दिले. व्हडलें अंजू योग्य त्या वयाचेर दुसऱ्याच्या हाताक लायिल्ल्यान बरें सालवार जालें. संजू आनी मनोज मात एकदम बाद निपजले. त्या दोगांयनी इश्कोल म्हणटात तें केन्नाच पळोवंक ना, कॉलेज तर पयसुच. पयशांच्या नेटार उडत रावले.

शिक्षणाचेर लक्ष ना म्हण बापायन व्हडल्या पुताक आपणाल्या भुसारी दुकानार दवरलो, पूण ताणें बापायक सामको पोशेलो. पयशे घेवप आनी चेडवांक घेवन नाच्च जावप आनी मागीर थोड्या दिसांनी फोल्गां मारून परत येवप. पयसुल्ल्या गांवांनी हॉटेलांत तो चेडवांक घेवन रावतालो. तसोच बायणां Red light area चेर वेश्यांक मेळूंक वतालो. ह्या व्यसनांबरोबर ताका सोरो, सिगार, गुटखा, तंबाखू, पान सगलें लागतालें.

दुसरो पूत तसोच मवाली. पूण बायलांचें व्यसन सोडून बाकीचीं सगळीं व्यसनां ताका लागतालीं. असले तवनास नालायक पोर म्हणटगेर तांकां सोयरीगती येवप कुस्तार जातालें. पूण असल्या अवस्थेंत सुध्दां कोणेंतरी भायलेभायर गुडलसांव करून, फटी मारून एका कोणाल्या तरी गरीबाल्या बऱ्या पोराची संजूक सोयरीगत हाडली. संजू उडयो मारून नाचूं लागलो. ताका हरवें सोडून पिकें मेळिल्लें. सिता बारावी जाल्लें. सभावान बरें, दिसूंक बरें.

पूण कितलीय बरी बायल मेळ्ळी म्हण संजूलो बायलांचो छंद सुटनाशिल्लो.

अशें म्हणटात न्हय! 'जशें बीं तशें भात.' सिता बाबडें गरीब पोर, सामकें वैतागिल्लें. एकेवटेच्यान मवाली, वेश्याबाज, सोरोबेबदो घोव, तर दुसरे वटेच्यान तिखट तारवटी मिरसांग झगडाळ मांय. तें दोगांयचे कातरींत सापडिल्लें. कुळारा वतलें म्हळयार परिस्थिती गरीब. तेंच भांवडांत व्हडलें. ताचे फाटल्यान कितलींशींच भावंडां. दीस सारप कुस्तार वतालें. ताणें संजूक खूब सांगून पळयलें. "हें पळय, तू जाता तितलो सोरो पी, गू घाण खा, पूण वेश्यांकडेन वचूं नाका. तो छंद सोडल्यार हांव तुज्याबरोबर रावूंक तयार आसां." पूण तो आयकूंक कसोच तयार ना. तातूंत लग्नाक पांच-स वर्सा जालीं, तरी भुरगें पदराक ना म्हण मांय पिडटाली.

गोविंदबाबालो धाकटो पूत मनोजाक तर सोयरीगतीच येना आशिल्ल्यो. आनी असले अवस्थेंत संजूली आवय सितेक भुरगें ना म्हण त्रास करताली आनी दुसऱ्या पुताच्या म्हऱ्यां वच, ताचेपसून तरी घराण्यांतलो दिपक जल्माक घाल म्हण पिडटाली. हें आयकून सितेच्या तळपायांचो उजो मस्तकाक पेट्टालो. सांगतलें कोणाक ? सोसतलें कशें ? खंयचेय अवस्थेंत आपलें हांगा रावप धोक्याचें अशें ताका दिसूंक लागलें. तांतूंत ताका संजूल्या भायल्या छंदाची बारीकशी लागवण जावपाक सुरवात जाल्ली.

सिता रोखडेंच दोतोरा म्हऱ्यांत गेलें. दोतोरान ताका सांगलें, "बरें जालें, तूं पयलेच स्टेजीर हांगा आयलें. सध्याक तुका उपाय आसा. तूं हातुंतल्यान मुक्त जावूंक शकता. तूं तुज्या घोवापसून पयस रावल्यार हो रोग तुका जावचो ना. येन्रा शादूर जा." "तें तशेंच साटली-पोटली कवळून आपल्या कुळारा आयलें. एके वटेच्यान दोतोराचीं वखदां आनी दुसरे वटेच्यान घटस्फोटाची तयारी सुरू जाली. आनी संजूपासून आनी रोगापासून ताणें आपली सुटका एकदांची करून घेतली.

सिता संजूक सोडून गेल्यार दोन तीन वर्सां जाल्लीं. परत संजूचे आवयक सुनेचे आनी संजूक बायलेचे वेध लागिल्ले. संजूची आवय जात-कात पळयनासतना लोकांक कारवारच्यान, बेळगांवच्यान कसलेय जातीचें कोताक येता, पूण एक चली भुरगें हाडून आपल्या पुताच्या गळयाक बांदपाक सांगताली. निमाणें सोदून सोदून एक चली भुरगें स्वता जावन, आपलो बळी दिवपाक तयार जालें. ताचें

नाव 'शयन'. काळखा देवतेक घोव ना आनी बेताळाक बायल ना! असली स्थिती.

संजूचीं कुकर्मां चालूच आशिल्लीं. तीं आतां सुटपाचीं नाशिल्लीं. संजूक आतां एड्स जाल्लो. तो आतां वाचपाचो नाशिल्लो. ताका उरिल्लीं फकत हाडां आनी ते दोन भितर गेल्ले केविळवाणे दोळे. तो आतां हांतुरणाक लागिल्लो.

दुसरे वटेच्यान आपल्या भावाचे आनी बायलेचे चाळे तो उगड्या दोळ्यांनी हातुरणावेल्यान पळयतालो. पूण करतलो किते ? बायल ताका उठ्टा बसतना सर्डीक उतरांचीं चाबकां दिताली आनी अशे अवस्थेंत ताका एक दीस देवाचें आपोवणें आयलें.

आतां संजूची दुसरी बायल 'शयन' ताचे फाटल्या भावाची मनोजाची बायल जाल्या. ती आपल्या तारवटी मिरसांग मांयक तिचे परस तिखट उतरां दिता. मांय कुड्डी जावन कोणशाक पडल्या. मांव पेङ्ग्यार जालो. दुसरी सून आनी पूत तिका सगलेवटेन नाडूंक लागल्यात. पयलींच्या घोवान आपल्या रोगाचो प्रसाद दिलाच, आतां तोच तें ताच्या भावाक म्हळ्यार आपल्या नव्या घोवाक दिता.




•••

# गुपित

मिनलाक आज अकस्मात दिवे लावपाच्या वेळार तिळसानकार्त्रीचें साटलीं पोटलीं घेवन कुळारा आयिल्लें पळोवन ताचे मर्म्मीक कितें म्हण समजना जालें. ताचे दोळे रडून-रडून सामके सुजिल्ले आनीं सूरज ताचो घोवय नाशिल्लो. मिनल मर्म्मीचे वेंगेंत येवन रडूं लागलें.

"बाय मिनल, एकटेंच गो? आनीं सुरज येवूंना? आनी अशे तिळसान कार्त्रींचें रडूंनाका. तुजें कितें जालें तें म्हाका सवकासायेन सांग. सूरजाक कांय जावूंना मुगो?" हें आयकले बरोबर ताका चडच रडूंक येवंक लागलें. ताणें म्हळें, "मर्म्मी, सूरज म्हजेर रागार जाला. तो म्हजें तोंड सुद्दां पळोवंक तयार ना. तो म्हाका आतां केन्नाच व्हरूंक येवचो ना. आनीं हें सगलें घडूंक कारणीभूत सुधीर."

सुधीराचें नांव आयकलें आनीं मर्म्मीक सामकी तिडक मारली. "तो निर्लज्ज दुश्ट थंवूय पावलो तुका पिडूंक?"

सुधीर मिनलाचे मैत्रीणीचो, सपनाचो भाव. सपना आनीं मिनल दोगांय शाळा ते कॉलेज मेरेन बरोबर शिकपी. सपनाचो भाव ते कॉलेजींत तांचे परस दोन वर्सांनी सिनीयर. सुधीर एक वाळेस आनीं लोफर म्हण फामाद आशिल्लो. ताणें कितल्याशाच चलयांचें शील भश्टिल्लें आनीं आतां तर ताचे दोळे मिनलाचेर आशिल्ले. मिनलाक आपल्या [illegible]त अडकुवपाचो ताणें खूब यत्न केलो पूण ताका यश आयलें ना. कॉलेज[illegible]य ताणें आपलें आनीं मिनलाचें नांव बरोवन हळशीक हळशीक बरोवन दवरिल्लें. पूण मिनल भियेलें ना. आपूण बरें आसल्यार आपल्याक कसलोच भंय ना अशें ताचें कांत. पूण ताणें सपनागेर वचपाचें खूब कमी केल्लें. तें सपनाकच आपल्यागेर आपयतालें. जाता तितलें सुधीराक कळयतालें.

एक दीस मिनलाचें सूरजाकडेन लग्न थारलें. सूरज एका नांवाजते कंपनींत इंजीनीयर आशिल्लो. मिनल तेन्ना बी. एस्. सी. च्या निमाण्या वर्साक आशिल्लें.

मिनलाच्या लग्नाच्या दोन-दीस पयलीं सांजवेळची ताची मैत्रीण सपना ताका मेथी घालूंक येवपाचें आशिल्लें. पूण सांजवेळचीं स वरां जावन गेल्लीं तरीकय अजून सपनाचो पत्तोच नाशिल्लो. म्हण मिनल आपूणच सपनागेर येवंक भायर सरलें.

मिनलान बॅल मारली आनी सुधीरानच येवन दार काडलें. ''सपना आसा?'' मिनलाच्या ह्या प्रश्नाक सुधीरान म्हळें, ''आं हय, आसा तर! यो भितर.'' सुधीराची वखवखिल्ली नदर मिनलाक नियाळटाली. गुलाबी रंगाच्या चुडीदारांत गोरें-पिट्ट मिनल उठून दिसतालें. सगळे अवयव व्यवस्थित कोरांतून काडिल्ले भशेन. त्या लांब केसांचे वीणयेर मोगरे कळ्यांची फाती आपलो घमघम सोडटाली. दुसरे वटेच्यान चेराचो घमघमाट.

''अरे व्वा! व्हंकल खूबच सुंदर दिसूंक लागल्या मेनका कशी.''

सुधीरालें हें पळोवप आनी उलोवप मिनलाक मात सुध्दां आवडूंक ना. ताणें आयकून आयकनाशिल्ले भशेन केलें आनी म्हळें,

''सपना खंय आसा ? तें म्हाका आज मेथी घालूंक येवपाचें आशिल्लें.''

''यो, भितर यो, कुडींत बसलां तें.'' अशें म्हणून सुधीरान मिनलाक आपोवन कुडींत व्हेलें.

सुधीराक मिनल आज आयतेंच सांपडिल्लें. घरांत कोण नाशिल्लें, सपना तर मिनलागेर वचपा खातीर भायर सरून गेल्लें. ताका मात्सो वेळ जाल्ल्यान दोगांयची चुकामूक जाल्ली. हे संदीचो फायदो घेवन सुधीरान मिनलाकडेन बळजबरी केली आनी ताणें मिनलाची वाट लायली. मिनल खूब आड्डुलें, रडलें, ताणें व्हडाव्हडान किंळांच्यो मारल्यो पूण फुकट! घरांत सुधीराशिवाय दुसरो कोणूच नाशिल्लो.

एक कळी फुलचे पयलींच पिसुडिल्ली. उमेदीच्या नव्या सपनाचो खुदों जाल्लो. आपली भश्टल्ली कूड आनी मातयेभरवण जाल्लीं सपनां पुंजायत रक्तबंबाळ जाल्ल्या काळजान मिनल घरा आयलें. ताणें आपल्या जिवीताचो शेवट करपाचो थारायिल्लो. ताका याद जाली, हुंदराच्या विखाची ती बाटली

तशीच कोटयेकुडींत पडून आशिल्ली. मिनल कोणाक जाग माग लायनासतना फाटल्या दारांतल्यान भितर सरलें. कोटये कुडींत वचून मिनलान बाटलेक हात घाला मात. मम्मीचो आवाज आयलो आनी ताणें कच्च करून आंग काडलें. आनी ते सरशीं बाटली सकयल पडून फुटली आनी मिनल एकटक त्या सांडिल्ल्या विखाक पळयत रावलें.

मम्मी भितर यो जाल्यार तिका मिनलाचो अवतार विचित्र दिसलो. धवें पडिल्लें तोंड, पिसुडिल्ले केंस, विचित्र दोळे आनी सकय पडिल्ली विखाची बाटली! मम्मी भियेली.

"मिनल, मिनल. जालां कितें तुका ?" मिनल उतर काडीनासतना मम्मीक पळयत रावलें. मम्मी सामकीच काचाबूल जाली. तिणें मिनलाच्या खांदांक धरून हालयलें.

"मिनल, आज अशें पिशांतरावरी कित्याक करता तूं?" मिनलान घडिल्लो सगळो प्रकार मम्मीक सांगलो.

'मम्मी, म्हाका मरुंदी आशिल्ली, कित्याक तूं मदीं आयली ? म्हजें थारायिल्लें लग्न मोडात." हांव आतां पवित्र मिनल उरलें ना, हांव अपवित्र जालां. हांवें हे अवस्थेंत सूरजाकडेन लग्न जावप म्हळयार सूरजाक फटयिल्लेभशेन.'

'मिनल, बाय, ओगी राव, हळू उलय, वंटीक पसून कान आसतात. आतां हें थारायिल्लें लग्न मोडल्यार बेठेंच फां-फां जातलें आनी फाटी-फुडें तुज्या लग्नाक आडमेळे येतले. फुटिल्लें काचेचें आयदन परत दसोवंक येना, तशेंच एक फावट भायर गेल्ली अब्रू परत मेळना. तूं मनान पवित्र आसा. हातूंत तुजो गुन्यांव ना, तेन्ना तूं मन घट कर आनी घडिल्लें सगलें विसरून वच." मम्मी ताका समजायताली.

"मम्मी, म्हजेर आयलो तो भयानक प्रसंग कसो विसरूं हांव ? मम्मी एकतर हें लग्न मोडपाचें, ना जाल्यार सुरजाक हें घडिल्लें सगळें सांगपाचें, आनी हे अवस्थेंत तो म्हाका आपणावंक तयार आसा जाल्यार म्हजें नशीब म्हणपाचें."

"मिनल, तुका दिसता कीं परिस्थितींची खरी जाणविकाय करून दितगेर सूरज तुका आपणायतसो ? उलट तो तुका तेंच नदरेन पळतलो. मिनल, हांव तुजी आवय आनी एक वायलमनीस जाल्ल्यान तुज्या मनाची जाणविकाय म्हाका आसा. तुजो फुडार बरो जावपाक जाय जाल्यार हे गजालींचेर पांगरून घालपाक जाय. तूं चुकून सुध्दां ही खबर सूरजाक सांगनाका."

"पूण मम्मी, हांव सूरजाक फटयतां ही खंत म्हज्या जिवाक सदांच भोगतली."

आतां मिनलाचें सुरजाकडेन लग्न जाल्यार तीनचार वर्सां जाल्लीं. सूरज एकदम बरो भुरगो आशिल्लो. तो मिनलाचेर जिवापाड मोग करतालो आनी आपूण मात सूरजाक फटयतां अशें मिनलाक दिसतालें. ताणें तोंडार हाडिल्लो उष्णो हांसो दुख्खाची जावविकाय करून दितालो. मिनलाक जायत्या फावट दिसतालें, कीं खरी गजाल सांगुंया. पूण ताका सांगूंक उतरच फुटनाशिल्लें.

एक दीस अकस्मात ऑफिसांतल्यान येतना सूरज सुधीराक बरोबर घेवन आयलो.

"मिनल, हाका वळखता तूं ? हो तुजे मैत्रिणीचो भाव. आमच्या ऑफिसांत ऑफिसर म्हण बदली जावन आयला." सुधीराचेर नदर पडल्या मात, मिनलाचे ओंठ सामके धवे पडले. ताच्या हातांतली कपबशी कडकडूंक लागली. च्या आनी खावपाक कशेंबशें टिपॉयचेर दवरून मिनल आपले कुडींत गेलें. घामान ताचें आंग सामकें चिप्प भिजिल्लें. ताणें फॅन फास्ट केलो. दुसरेवटेच्यान ताच्या हड्ड्यांत कलकलतालें.

कांय वेळान सुधीर घरांतल्यान वतगेर सूरज आपले कुडींत आयलो. आपल्या विचारांत मग्न आशिल्ल्या मिनलान सूरजाच्या उल्यासरशीं कच्च करून आंग काडलें.

"आज तुका जालां तरी कितें ? ताच्या मुखार तूं विचित्रशें वागलें? आनी हें कितें? तूं सामकें घामेलांशें?"

"सूरज, सुधीर सामको वायट मनीस. ताका तूं केन्नाच घरा हाडूं नाका आनी

ताचेकडेन मैत्रींय करूं नाका.''

''बरें सायबिणी, तूं सांगता तशेंच करतां.'' अशें म्हणून सूरजान तो विशय थंयच बंद केलो.

सूरज जितलो सुर्धीरापसून पयस वतालो तितलो सुर्धीर ताचे लागीं येतालो. ताका सामकोच तोडून दिवंक सूरजाक बरें दिसनाशिल्लें. हाचोच फायदो सुधीरान घेतलो. ताणें ताका हळू हळू सामको वश करून घेतलो. आनी तो आतां मिनलाविशीं न्हयनस्तें सांगून सुरजाच्या कानांत वींख ओतूंक लागिल्लो.

''सूरज, तुका दिसता तशी तुजी बायल पतीव्रता न्हय, मिनलान हाचे पयलीं कितल्याशाच जाणांकडेन मोगाचें नाटक केला आनी तांकां फटयलां. हांव तांतलो एक, पूण हांव ताका आजून विसरूंक शकना. म्हण हांव आंकवार रावलां.''

''शी! सुर्धीर, म्हजे बायले-विशीं अशें कितेंय उलयल्लें म्हाका आवडचें ना.''

''सूरज, हें जग दिसता तशें ना. तूं साधोभोळो. तुका तें पटचें ना. पूण याद कर, हांव तुमगेर गेल्लों तेन्ना मिनलाची अवस्था कितें जाल्ली ती ? म्हाका पळयतगेर तें काचाबूल जाल्लें, ताच्या हातांतली कपबशीसुध्दां कडकडऽऽली.''

सूरजान मिनलाक ही गोष्ट विचारली. तेन्ना ताणें खरी ती गजाल सूरजाक सांगली. सूरजाक मिनलाचो राग आयिल्लो, ते बरोबर खूब वायट दिशिल्लें. कित्याक, तर मिनलान खरी गजाल इतलो तेंप आपल्याक लिपयली म्हण, मिनल आपल्याक वळखूक चुकलें म्हूण. हाका लागून तांचें झगडें जाल्लें.

मिनलाचे मर्म्मीन सगळी खबर आयकतगेर मिनलाक सांगलें की आपूण सूरजाक समजायतां. तो व्हडल्या मनाचो. हातूंत तुजो अन्याय ना म्हण कळटगेर तो तुका माफ करतलो आनी तुजो स्विकार करतलो.

● ● ●

# योगायोग

लताचीं मारिया कॉन्व्हेंटांत बदली जाली. त्या इश्कोलांतले सव्वेच्या 'ए' क्लासाचीं तें क्लास टिचर. नीं भुरगीं, तें इश्कोल सगलेंच लताक नवें. नवें टिचर पळोवन भुरगीं उमेदींत आशिल्लीं.

लता क्लासांत आयलें. "Good morning teacher" भुरग्यांलो आवाज.

"Good morning, sit down." लताचो आवाज.

पयलोच दीस, अनोखळीं भुरगीं. लतान तांकां नावां विचारपाक सुरवात केली. आनी विचारतां विचारता तें मदींच थांबलें. तिसरे लायनीच्या पयल्या बाकावेल्या भुरग्याचेर ताची नदर थिरावली. "What is your name?"

''नंदू महाडेश्वर.'' भुरग्यान आपलें नांव सांगलें.

लता थिजिल्लेवरी जालें. नंदूच्या जाग्यार आतां लताक अवी दिसूंक लागिल्लो. हय हुबेहूब अवीची कार्बन कॉपी थंय उबी आशिल्ली. तेच घारशे दोळे, पिंगशे केंस, तरतरीत नाक, उबी रावपाची स्टायल आनी रंगय तोच.

''नंदू महाडेश्वर.'' लता पुटपुटलें आनी खुणेनच ताणें नंदूक बसूंक सांगलें. ताणें नांवां विचारपाचें काम अर्दकुटेंच सोडलें आनी भुरग्यांक पुस्तक वाचूंक सांगलें.

भूतकाळांतले एक एक प्रसंग लताच्या दोळ्यांमुखार येवंक लागले. 'लता' बऱ्या घराण्यांतलें आवय बापायलें एकलें एकसुरें चली. दिसूंक, शिकूंक आनी गुणांनीय तें बरें आशिल्ले. निकतेंच मॅट्रीक जावन ताणें कॉलेजींत पांय दवरिल्लो.

ताच्या गांवांत निकतीच बदली जावन आयिल्लो बॅंकेचो मॅनेजर 'अवी' च्या जाळ्यांत तें घुस्पलें. ताचें पावल वाकडेंच न्हय तर खोल रेब्यांत रुतिल्लें. जें जावपाचें न्हय तें जाल्लें. लता फटवल्लें. जेन्ना लताक आपली चूक कळून

आयली, तेन्ना खूब वेळ जाल्लो. तेन्ना तें अवींच्या भुरग्याची आवय जावपाच्या मार्गार पाविल्लें.

लताक तो दीस येवजलो. ज्या दिसा तें ही खबर सांगपाक अवी म्हन्यांत गेल्लें. ही खबर सांगून लतान अवींकडेन लग्नाचो प्रश्न काडलो. तेन्ना अवींन म्हळें,"शी..शी लग्नाचें नांव काडूं नाका. म्हज्या जिवीतांत असल्यो कितल्यो चलयो आयल्यो आनी गेल्यो त्या सगळ्यांकडेन लग्न जाल्लों जाल्यार आज तांची संख्या..."

"You shut up."लता तापलें. लज दिसना तुका हें सांगूंक ? चलयो म्हळ्यार खेळणीं दिसतात काय कितें तुका ? एक मोडलें, दुसरे घेतलें, दुसरें मोडलें, तिसरें घेतलें. सांग विस्वासघातक्या, इतले दीस म्हजेकडेन मोगाचें नाटक केलें, उतरां दिलीं आनी हांव पिशें तुका भुल्लें. आतां हें काळें तोंड हांव लोकांक दाखोवं तरी कशें ?"

रडून रडून लताचे दोळे सामके सुजिल्ले. हुंदक्यार हुंदके दिवन तें रडटालें. तेन्ना कुचित्रीपणान हांसून अवींन लताक म्हळें, "लता, तुज्या सारकिल्ल्यो सत्यभामा हे भुंयेर थोड्योच आसात. पवित्रपणाचो पदर पांगरून भोंवपी अपवित्रच बायलो हे भुंयेर चड आसात."

"Stop it! तूं कोण म्हाका, सल्लो दिवपी ? चांडाळ खंयचो." अशें म्हणून लता तुरतुरीत घरा आयलें. लताच्या आवय-बापायक ही खबर समजली, तेन्ना खूब वेळ जाल्लो.

लताची आवय पिशार पडपाकडेन पाविल्ली. बापूय काळजाच्या आतेकान भायर पडिल्लो. हे अवस्थेंत लताक सांगलीचे मावशेन आपल्यागेर व्हेलें. थंय ताणें एका भुरग्याक जल्म दिलो.

लताच्या दोळ्यांमुखार तें महाडेश्वर जोडपें उबे रावलें. श्रीमंत जोडपें. तांकां लग्न जावन सात-आठ वर्सां जाल्लीं, पूण भुरगें नाशिल्लें. तांणी मोटे उमेदीन. लताच्या भुरग्यांक आपणायल्लो. संकश्टांतल्यान वाचयिल्लें.

लता आतां आपल्या गांवांत परत आयिल्लें. ताणें लग्न ना जावपाचें

थारायिल्लें. अभ्यासावयलेंय ताचें लक्ष गेल्लें. वेळ पासार करूंक ताका कितेंय तरी करूंक जाय आशिल्लें आनी ओळखीन ताका इश्कोलांत टिचरीची नोकरी मेयळीय बी.

हे सगले विचार चालू आसतना दुसऱ्या तासाची बॅल केन्ना जाली तेंच समजलें ना. "टिचर, टिचर, बॅल जाली." भुरग्यांच्या आवाजान लता भानार आयलें.

हे गजालीक आतां सुमार पांच म्हयने जाले. आनी अकस्मात तें घडलें! नंदू महाडेश्वराक ॲक्सीडेन्ट जाल्लो. इश्कोलाक येता आसतना एका वेगान येतल्या गाडयेमुळांत तो सांपडिल्लो. नंदू आत्ताक खलास जाल्लो. हो ॲक्सीडेन्ट इश्कोलाच्या मुखारच जाल्लो. नंदूचें रक्तबंबाळ जाल्लें प्रेत हाडून इश्कोलाच्या मुखार घाल्लें. छिन्न-विच्छीन्न जाल्लें नंदूचें प्रेत लतान पळयलें मात, ताचे हात-पांय सामके थंड पडले. ताका थंयच घुंवळ आयली.

तें जेन्ना भानार आयलें तेन्ना ताणें पळयलें कीं तें महाडेश्वर जोडपें थंय आयिल्लें. त्या जोडप्यान रडून खूब आकांत केल्लो. जाचे गायडेपोंदा नंदू पडिल्लो तोवय मनीस थंयच उबो आशिल्लो. लताची नदर त्या मनशाचेर पडली मात्त, ताचे दोळे सुडान पेटून उठले.

तो मनीस दुसरो तिसरो कोणूच नासलो तर नंदूचो जल्मदातो बापूय अवीच आशिल्लो. लताक दिसतालें, खूब रडचें आनी अर्वीकडेन बोट दाखोवन सगल्यांक सांगचें कीं, "होच तो निर्दय पातकी, विस्वासघातकी मनीस, नंदूचो बापूय. आनी हांव नंदूची दुर्दैवी आवय. चलो आपलो आसुनसुध्दां आपलो म्हणूंक शकना. कित्याक तर हांव कुमारी माता म्हूण लोकांक समजलें जाल्यार लोक म्हज्या तोंडांत शेण घालतले. म्हाका समाजाक तोंड दाखोवंक जागो उरचो ना. कोण कोणाचो? तें महाडेश्वर जोडपें नंदूचें कोणच नासून पसून तांणी ताका आवय-बापाय परस चड माया लायिल्ली. जल्म दिवपी आवय मात पयस रावन पळयताली. तिका ताचो हक्क नाशिल्लो."

आतां पंचनामो जाल्लो. तें प्रेत थंयच्यान हालयिल्लें. थंयची गर्दीय कमी

जाल्ली. त्या दिसा इश्कोलाक सुटी दिल्ली. लता मंद पावलां ऑर्डीन घरा वचूंक वतालें. तें काळजांत रडटालें. इतल्यांत ताच्या कानार उलो पडलो.

"तूं कोण म्हाका उलो मारपी ? लज दिसना तुका ? असल्या रस्त्यावयल्या मवाल्यांक हांव कॅर करीना. खूनी, पातकी, दुश्ट, नीच हलकट." लता संतापान पेटून उठिल्लें.

"तो ॲक्सीडेन्ट म्हज्या हातांतल्यान चुकून घडला. हांवें खून करूंक ना. चूक त्या भुरग्याची, म्हजी न्हय."

"तो भुरगो कोण तो खबर आसा तुका ? तो तुजोच भुरगो."

"ना, ना, लता. कितें उलयता तूं हें?"

"धा वर्सां पयलींची याद कर. अवी, धा वर्सां पयलींची याद कर. अवी, जेन्ना हांव तुका ही खबर सांगूंक आयिल्लें तेन्ना तुवें म्हाका कितें सल्लो दिल्लो तो याद आसा तुका ? सारकी याद कर. तेन्ना तुवें म्हाका म्हज्या पोटांत वाडपी बीज नश्ट करूंक लायिल्लें. तेंच वाडिल्लें रोपटें तुवें तुज्याच हातान तोडून, उध्वस्त करून उडयलें." आनी इतलें सांगून लता थंयच्यान तुरतुरीत चलूंक लागलें.

तें आयकून पश्चात्तापाचीं दुकां अवीच्या दोळ्यांत भरिल्लीं. तो लता गेल्ले वाटेकडेन एकटक पळयत रावलो.



# घुस्मटमार

सकाळचीं साडेसात वरां जावन गेल्लीं तरीकय अजून पप्पा सोडून घरांतलो कोणच उठूंक नाशिल्लो. पूण च्या करून दितलो कोण? ताका कितेंय करून घेवपाची संवय नाशिल्ली. पप्पाक सदांच सकाळफुडें जाग येताली. मागीर एक फावट जसो जागो जालो तसो तों सकाळचो विधी आटोपून पेपर चाळीत सूनबाय 'शिल्पा' उटसर साडेसात पावणेआठ म्हणसर तळमळत बसतालो. असल्या वेळार सिताबायची-आपले बायलेची पप्पाक खूब याद येताली.

सिताबाय पप्पाक फांतोडेर उठून च्या करून दिताली. ती पप्पाक जीवापरस चड जपताली. ती आतां हो संवसार सोडून गेल्यार दोन म्हयने जाल्ले. पप्पा आतां सूनबायच्या हाताक सापडिल्लो. करतां करतां पावणेआठ जावन पांच मिनटां जालीं. ''शीः असली, कसली कुंभकर्णाची न्हीद न्हिदतात म्हण देव जाणां ! बिट्टूक तर साडेआठ वरांचेर इश्कोलाक वचूंक जाय, सुधीराक तर साडेणव वरांचेर ऑफिसाक वचूंक जाय. आनी हांव हांगा जाणटो मनीस फांतोडेर उठून च्या खातीर तळमळटां आनी हिका मातय पडून वचूंक ना.'' पप्पा मनांतल्या मनांत फडफडलो.

''पयलीं ही आसतना सगलें आयतें मेळटालें, ती राणयेक संवय जाल्ली. तेन्ना मांयच्या फाटल्या-फुडल्यान भोंवन पातोळपणां करताली. कित्याक, सगलें आयतें पडटालें न्हय ताळयार ! ही आनी गृहलक्ष्मी खंय? केन्नाय एक दीस तरी हिका दिसलां कीं बेगीन उठुंया, सकाळीं चपात्यो, तोंडाक बी तसलें कितेंय करुंया. संवसारांत मात्शें रमुंया. शीः! शक्यच ना. उतरा उतराक 'सगुण्या, हें करगो, सगुण्या तें कर गो.' आनी सदां उठून पाव! शीः! कणकण आयले सामके. जेवण तरी धड करूंक येता?''

आनी इतलें म्हणसर ज्यूस्त आठ वरांचेर शिल्पा कुडींतल्यान भायर सरलें. तो काण्या हातांचो पातळ गाऊन, कपलाक धड़ कुकूम ना, ते बॉयकट केल्ले

केंस, सबंद तोंडभर फांफसल्यात. असले अवस्थेंत सुनवायचे सुवारीन रांदचे कुडींत प्रवेश केलो.

'सुनबाय, च्या मातशी बेगीन कर हां.''

''पप्पा बेगीन कर म्हण्टा तें हांव कितें मशीन काय काय कितें ? तुका जर च्या जाय आशिल्ली जाल्यार तुज्यान करून घेवंक येताली. त्या कामाक म्हजीच कित्याक वाट पळोवंक जाय ? आनी म्हाका उठूंक उशीर जाता तातूंत म्हजो कांयच अन्याय ना. दिसभर काम म्हण थोडें जाता? घरांत चौगजाण मनशां, तातूंत कालच्यान सगुणें ना म्हटगेर सगलें काम करूं नाका ? पुरो जाता सामकें.''

''हळद लागली कामांक.'' पप्पा मनांतल्या मनांत गुणगुणटा. तेवटेन बिट्टून आपलें पेपारें सुरू केलें. हो सदचोच नेम. सकाळफुडें इश्कोलाक वचूंक उठूंक बिट्टू असोच रडटा.

''डॅडी, हांव इश्कोलाक वच्चों ना! मिस म्हाका मारता.'' आनी ते सरशी शिल्पा पट्टी घेवन धांवत बिट्टू म्हऱ्यांत गेलें.

''बिट्टू, चड जालें तुजें, तुका हांव खरेंच पट्टेन फोडून काडटलें, नसती रड लागल्या ती. अभ्यास नाका. गोरवां राखूंक-वचपाचो विचार आसा काय कितें रे?''

''मम्मी, मम्मी, म्हजी तकली दुखता गे. हांव आज इश्कोलाक वच्चों ना.'' ते सरशी शिल्पान ताचेर दोन चुळचुळीत पट्यो मारल्यो आनी बिट्टू परतून रडूंक लागलो. हें सगलें आयकूं नजो जावन पप्पा कुडींत गेलो.

''बाब बिट्टू, रडूं नाका. शाण्या, जिवाक बरें ना जाल्यार शाळेंत वचूं नाका.'' पप्पान बिट्टूल्या पाल्यार हात दवरल्यार पोराचें आंग सामकें खतखततालें.

''हांव सांगतां तुजे मिसीक तुका मारुंनाका म्हण.'' आनी बिट्टू पप्पाक पालीभशेन चिकटलो. सूनबाय चाळवली. सुधीरय पप्पाचेर तापूं लागलो.

“पप्पा, तुंवेंच माथ्यार बसयिल्यान बिट्टू हाताभायर गेला. फाल्यां ताचो फुडार आसा. सोड ताका.  नसत्यो अपुरबायो!”

“पप्पा तुजे असले अपुरबायेन बिट्टूल्या जल्माचो गोबर जातलो. आमचो एकटोच चलो तो. ताका कितें करपाचें तें आमी जाणांत. तूं वच पळोवंया भितर.” शिल्पा पप्पाल्या आंगार आयलें.

पप्पा बाबडो कितें करतलों ? ताचो भितरल्लो भितर घुस्मटमार जातालो. प्रत्येक कामाक पप्पाक मारतें घेवचें पडटालें. पप्पा इल्लेंशें तोंड करून आपले कुडींत आयलो. आनी साडे आठांक बिट्टूक सुधीरान व्हरून इश्कोलाक पायलो. पप्पाक बिट्टूली काकूट दिसताली. पूण पप्पा कितें करतलो ? बिट्टू सेकंडाक आशिल्लो. पांच स वर्सांचो भुरगो तो. पूण, चुकून सुध्दां आवयन अपुरबायेन ताका म्हऱ्यांत काडलो ना. सितावाय आसतना ताची अपुरबाय जाताली तितलीच. हावा शिवा करून पप्पान ताका अपुरबायेन म्हऱ्यांत काडल्यार सुनबाय पप्पाच्या आंगार येताली.

‘पप्पा, तुजे अपुरबायेन बिट्टूची वाट लागतली. तूं ताचेपासून चार हात पयसच राविल्लो बरो.’

बिट्टूलें इश्कोल सारखें देडाक सुट्टालें. हावा शिवा करून बिट्टू इश्कोलांतल्यान घरा येवन पावतासर अडेच ते साडेचार म्हणसर ताका ट्युशनाक धाडटालीं. आतां तो भुरगो केदो ! ताका हरशीं शिल्पाच्यान घराकडेन शिकोवंक जातालें. पूण शिल्पाचो आळशी सभाव. आनी दुसरें म्हळयार ट्युशनाक धाडप हें एक मोठेंपण अशें शिल्पाक दिसतालें. बिट्टू बाबडो पावणे पांचांक ट्युशनाक साकून घरा पावतासर पांच ते स मेरेन ताका बळजबरयां शिल्पान गायनाच्या क्लासाक धाडचें. अशें करून दिसभर कादयेंत घातल्ली अवस्था. बिट्टूक बाकीच्या भुरग्यांबरोबर मेकळेपणान केन्नाच खेळूंक मेळनाशिल्लें. पोरान सामको धसको घेतिल्लो. तो सामको बारीक ‘किट्टूमारी’ जाल्लो.

दुसरेवटेन शिल्पाचें बरें फाविल्लें. जाण्टो पप्पा घरांत आनी चेडूं सगुण्या सुवार्दीन घर करून तें दिसूयभर कसल्या ना कसल्या निमतान भायर आसतालें. सुधीर दीसभर भायर आसतालो. तो सकाळीं भायर सरून वतालो तो तिळसनां

घरा पावतालो. शिल्पा आपलो वेळ वचना म्हण सतार क्लासाक जॉयन जाल्लें, खंयच्या ब्युटीशीयनाचो कोर्स करतालें, तर दुसरेकडेन कुकींग क्लासाक वतालें. एकेवटेन महिला मंडळाचें सेक्रेटरी जाल्लें आनी ते भायर आज हे मैत्रिणीगेर जाल्यार फाल्यां ते मैत्रिणीगेर वचून चकाटा मारतालें. आनी मैत्रीणीय चार चार दिसांनी शिल्पागेर आसताल्यो. पप्पाच्यान हें सगलें सोसूं नजो जातालें. पूण कितें करतलो?

सुधीराल्यो त्यो पाट्यों आनी विचारूंकच नाका. देडदोन वरां रात म्हणसर सुधीराल्या मित्रांनी सोरो पियेवन घाल्लो बोवाळ, शिल्पाल्या इश्टिणीचें तें किटकिटप, ते फाजील जोक्स. पप्पाक शेनवार येना जाल्यार पुरो अशें दिसतालें. पप्पालो भितरले-भितर घुस्मटमार जातालो. पूण तांकां कोण विचारता ? आनी असले कसलेय प्रोग्राम आसत जाल्यार पप्पाली बिडकी गच्चींवेले कुडींत. शिल्पा कळवळटालें. आनी निमित्य कितें काय म्हणल्यार पप्पाक त्रास जातलो म्हण.

खरें म्हळ्यार तांकांच पप्पाली आडखळ जाताली. हरशीं केन्नाच चुकून सुध्दां सुनबायन आपली वासपूस केल्ली पप्पाक याद ना. दिसूयभर तुटकीं उतरां आनी परत्यो जापो. सुधीर तर बायलेच्या हातांतलें खेळणें जाल्लो. बायलेल्या प्रत्येक उतराक तो गणसाबैलाभशेन मान हालयतालो. सुधीरान बायलेक माथ्यार बसयिल्ली आनी बायलेन सुधीराक बोल्सांत घाल्लें.

पप्पाक पावला कणकणी सिताबायची याद जाताली. ही घरांत आसतना घरांतलें वातावरण कितलें थंड आशिल्लें, कोणूच सिताबायच्या उतराभायर वचनाशिल्लो. शिल्पाक तर ती धुवेपरसं चड मोगान वागयताली. ती आसतना शिल्पान रांदचीकूड केन्नाच पळयली ना म्हळ्यार जाता.

पप्पान बाजारांतल्यान कसलीय वस्त हाडली रे हाडली शिल्पा ताची खोड काडटालें. "नुस्तें पोवशेलां ना जाल्यार भाजी पेड्ड्यार जाल्या. आनी हाडून सोडलें म्हण जालें? करतलो कोण ? जाणटेपणांत जीब मातल्या चड."

रातीचें तर सदांच शेळें जेवण सगल्यांच्या पानार. आनी हरशीं खोडयाळो सुधीर तें मोन्यानी जेवतालो. एक दीस पप्पान म्हळें, "सुनबाय, शेळें जेवण

आरोग्याक बरें न्हय. तेन्ना रातीचें जेवण हून करूंक जाय.'' शिल्पा रागान सुधीराक पळोवंक लागलें. सुधीर वयल्यान पप्पाक म्हण, "पप्पा, पानार पडटा तें व्हड म्हणपाचें, चड खिचपती वाडल्यात तुज्यो जाणटेपणांत.'' आनी पुताकडच्यान असलीं उतरां आयकतगेर पोल्यार सणसणीत थापट मारिल्लेवरी पप्पाचें तोंड जालें.

पप्पाक जिणेचो वींट आयिल्लो. बायले फाटल्यान देवान आपली बेगीन याद केल्यार पुरो अशें पप्पा सदां देवाकडेन मागतालो. आपूण हाता पांयांन सारको आसतना आपल्याक अशी वागणूक मेळटा, हांतुणार पडल्यार कुत्रो विचारपाचो ना.

सदां सकाळीं पयली उठपी पप्पा आज साडेआठ जालीं तरी न्हिदून आसा म्हण शिल्पा पप्पाले कुडींत आयलें. पळय जाल्यार पप्पा हांतुणार सुस्त न्हिदिल्लो. 'पप्पा, ही पळय च्या हाडल्या उठ.'' पूण पप्पा खंय उठ्ठा? तो जल्माचोच न्हिदिल्लो. शिल्पान एक व्हडली किळांच मारली. पप्पाले जिणेची जोत रातची न्हिदिल्लेकडेन पालवल्ली.



# कुमारिका

तिळसानचीं साडे-स वरां जाल्लीं. आजून शिलूचो पत्तोच नाशिल्लो. ताची आवय लक्ष्मीबाय वाती वळीत बशिल्ली. परत परत तिगेली नदर जनेलांतल्यान भायर वताली. ''आज शिलूक वेळ कित्याक जालो काय? ऑफिस तर साडेपांचांक सुट्टा. संध्यागेर बी गेलां काय तें ?'' लक्ष्मीबायच्या ह्या उतराक सुजातान, सुनेन म्हळें, ''तुमकां खंय खबर आसा तें खंय गेलां तें, बॉसाबरोबर फिरूंक गेला आसतलें. ताचीय बाबड्याची बायल भायर पडल्या आनी आमगेले शिलूकय जाण्टेपणांत एक आदार मेळ्ळो.'' अशें म्हणून सुजाता कुचित्रीपणान हांसलें..

''सुजाता, कितें उलयता तूं हें ? सोबता तुका हें असलें उलोवप? आमचें शीलू असलें भुरगें न्हय. ताणें असले रंग केन्नाच केले नात आनी आतां वयाची चाळीशी सोंपतकच कित्याक करतलें ? तें म्हण हो संवसार, तें म्हळ्यार म्हजो व्हडलो चलोच. बाबड्याच्या ल्हानपणांतच तकलेचेर संवसाराचो पेच पडलो. तें असलें केन्नाच करचें ना. थोड्यांक खंय आपल्या दोळ्यांतलें मुसळ दिसना. पूण दुसऱ्याल्या दोळ्यांतलें कूसळ मात दिसता.'' लक्ष्मीबायचें हें उतर सुजाताक पथ्यार पडलें म्हळ्यार जाता आनी ताणें म्हळें, ''पुरो पुरो चलयेच्यो तोखणायो केल्लो. वाती वळिल्ल्योच आसात न्हय तुमी. धूव येतगीर पंचारत करून ओंवाळ धुवेक.'' अशें तिडकीन म्हणून तें आपले कुडींत गेलें.

लक्ष्मीबायच्या दोळ्यांत दुकां उबीं राविल्लीं. तिणें पदरान दोळे पुसले. तिका पयलींचे ते दीस येवजूंक लागले. लक्ष्मीबायचो घोव त्या गांवचो शाळेचो मास्तर. गांवांत तो एक बरो मनीस म्हण सगलो लोक वळखताले. तांकां तीन भुरगीं. व्हडलें शीला. दुसरो अर्वी आनी तिसरें नीला. हें कुटुंब श्रीमंत जरी नासलें तरी खावन जेवन सुखी आसलें. लक्ष्मीबायच्या घोवान आपल्या भुरग्यांक खूब शिकोवपाचें थारायिल्लें. पूण ताचें सपन अर्दकुटेंच उरिल्लें. लक्ष्मीबायच्या घोवाक कॅन्सराचें दुखणें जाल्लें. तो चड जगपाची आशा नाशिल्ली. एक दीस ताका यमाचो आपोवणो आयलो आनी तो बायल भुरग्यांक उबंत वडोवन गेलो.

लक्ष्मीबायचेर तर दुख्खाच्या दोंगराबरोबर संकटांचोय दोंगर कोसळिल्लो. ''आतां भुरग्यांचें कशें जातलें?''

शिल्पान तेन्नाच मॅट्रीकेर्ची परिक्षा दिल्ली. रवी पांचवेक आनी नीला तिसरेक आशिल्लें. तांचो आदाराचो खांबोच निखळून पडिल्लो. लक्ष्मीबाय बाबडी कितें करतली ? तांचे हे अवस्थेची तांचें बरें मागपी एका मनशाच्यान काकूट पळोवं नज जाली. ताणें शिलूक शिर्विस लावन दिली. आतां संवसाराचो रथ शिलू ओडटालें. आपणाल्या बापायचें अर्दकुटें उरिल्लें सपन पुराय करपाचें ताणें थारायिल्लें. आपल्या फाटल्या दोगांय भावंडांक आपूण बापूय ना हें उणेपण दाखोवन दिवचें ना. तें जिवाची पर्वा कर्रीनासलें. ओव्हरटायम लेगीत करतालें. पूण शिलूचें सपन फट थारिल्लें.

ताचीं दोगांय भावंडां दोन चिन्नांची जाल्लीं. तांकां दोगांयकूय गुणच नाशिल्ले. देवान सगले बरे गूण दोनूय हातांनी शिलूकच दिल्ले म्हळ्यार जाता. रवी तवनासगिरी करतालो, नाका आशिल्ल्यो कागाळी हाडटालो. इश्कोलाक प्रत्येक वर्गाक आपटी खायत तो आतां कॉलेजींत पाविल्लो. आतां तर ताच्या तवनासपणांक रंग चडिल्लो. मेळत ते चलयेचीं फकाणां करप, चल्यांक घेवन हेडप, ते भायर सोरो, सिगार तेंवय लागतालें. रवीन बापायच्या नांवांक काजळ पुशिल्लें. एक दीस रवीन एक चली पसंत केली. न्हय तर ती करचींच पडली. कित्याक तर प्रकरण खूब मोट्यार पडिल्लें. ताका दीस गेल्ले. तें चली म्हळ्यार 'सुजाता'.

लक्ष्मीबायक तें सुजाता येवजलें. शिलूच्या म्हऱ्यांत येवन रडून आपलें कर्म सांगपी. तेन्ना शिलूक आपल्या भावाचीं अवचिन्नपणां पळोवन तिडकय मारिल्ली आनी लजेक म्हारग जाल्लें. एकदांचें शिलून सुजाताचें रवीकडेन लग्न लावन दिलें. रवीन आतां कॉलेजीचो नाद सोडिल्लो. हावा-शिवा करून शिलून रवीक शिर्विस लावन दिवप आनी रवीन थंय नावाडगींपणां करून ती सोडप हें काम चालूच आशिल्लें. रवी आतां दोन भुरग्यांचो बापूय जाल्लो, तरीकय पोराक अक्कल आयली ना. शिलूचे तकलेचो पेज दिसान-दीस वाडत वतालो. दुसरेवटेन शिलूचें वय वाडटालें.

'नीला' तर सामकेंच उंवाळिल्लें. शिकता आसतनाच एका चल्याबरोबर पळून गेल्लें तें हा मेरेन ताचो पत्तोच नाशिल्लो. बाबडें शितीमेतान फुगार जातालें शिलू. लोकांक तोंड दिवचें पडटालें तें ताका. आतां तर लोकांच्या कुतांची ताका संवय जाल्ली. घरांत मेळोवपी तेंच जाल्ल्यान तें आनी लग्नाचे भानगडींत पडलें ना.

एक दीस खूब तेंपान रवीची शिर्विस फिक्स जाल्ली. ताकाय खूब तेंपान जाग आयिल्ली म्हळ्यार जाता. पूण आतां खूब वेळ जाल्लो. शिलूच्या वयाचीं चाळीस वर्सां सोंपिल्लीं. ताचें लग्न जावप म्हळ्यार खूबच कठीण काम आशिल्लें. शिलूच्या ऑफिसांतलो स्टाफ शिलूक दीसरात थोमण्यांनी बेजार करतालो. तांणी शिलूक कुमारिका म्हण आलकुंज नांव लेगीत दवरिल्लें. तरातरांनी शिलूक ऑफिसांतलो स्टाफ बेजार करतालो. शिलू बाबडें दुकां गिळून मोन्यांनी सगलें सोंसतालें. लक्ष्मीबायक शिलूची काकूट दिसताली, पूण ती बाबडी कितें करतली? सुजाताक आतां बरें तोंड सुटिल्लें कित्याक तर आतां रवीची शिर्वीस फिक्स जाल्ली आनी आतां शिलूची गरज सोंपिल्ली.

"देवा, आमचे शिलून कसलें पातक केलां म्हण ताका ही शिक्षा? कितें वायट केलां ताणें ?' लक्ष्मीबाय विचारांत गुल्ल जाल्ली. तिका शिलू केन्ना आयलें तेंच समजलें ना.

"आई. दार उगडेंच आशिल्लें मगे?" ह्या शिलूच्या उतरांसरशीं लक्ष्मीबाय भानार आयली.

"बाय, शिलू तूं आयलें ? तुका वेळ कित्याक जालो?"

"आई. भितर मात्शी कुडींत यो. तुका कितें सांगपाचें आसा." शिलून लक्ष्मीबायक म्हळें.

"बरें येतां हांव. तूं मातशें पयलीं हातपांय बी धूवन कपडे बी बदल. सवकासायेन उलोवंया." अशें म्हणून लक्ष्मीबाय रानचेकुडींत गेली आनी थोड्यावेळान शिलूक कॉफी घेवन आयली. शिलून ती खबर लक्ष्मीबायक सांगली.

शिलूक ताच्या बॉसान आज लग्नाविशीं विचारिल्लें. बॉसाची बायल दोन-तीन वर्सां पयलीं कसल्या तरी दुखण्यान भायर पडिल्ली. ताका दोन भुरगीं आशिल्लीं. ताका पन्नास वर्सां जातलीं. खबर सोंपतकच शिलून लक्ष्मीबायक म्हळें, "आई, खरें म्हळ्यार म्हजी लग्न जावपाची इत्सा मेल्या गे, पूण दीसरात लोकांचे थोमणे आयकूं नजो गे म्हज्यान. तांतूंत आनी हालीं सुजाताची जीब सामकी मातल्या. कितलें म्हण् सोसतलें गे आई हांव ? एकेवटेच्यान दिसता लग्न जावचें. जाण्टेपणांत तरी एक आदार मेळ्ळो. विधूर जाल्यार विधूर. म्हज्या असल्या पंचेचाळीस वर्साचे चलयेक खंयचो बरो घोव मेळटलो? तूंच साग आई, हांव कितें करूं तें ?" आनी शिलू लक्ष्मीबायचे वेंगेंत वचून रडूं लागलें. खूब तेंपान ताका आज उमाळो फुटिल्लो.

"बाय शिलू, हांव सांगतां तुका, तूं लग्न जा. तूं म्हजी पर्वा करुंनाका. म्हजें जालें जाण्टेपण, हांव आज आसल्यार फाल्यां ना." लक्ष्मीबाय एका हातान शिलूची फाट पोशेताली आनी दुसरे वटेच्यान आपल्या दोळ्यांतलीं दुकां पुसताली. दुकां दुख्खाचीं नासून खोशयेचीं आशिल्लीं.

"आई, तुकायबी म्हजे बरोबर येवचें पडटलें. ना जाल्यार तुजो हांगा तग लागपाचो ना." शिलून आवयक म्हळें.

"बाय शिलू, कितली म्हण काळजी करतलें गो तूं ? तुवें तुजी उबी जीण आमकां लागून वगडायली, पूण निमाणें तुज्या हाताक कांयच फळ ना मुगो? इतलेंय करून उमंथ्या कळशार उदक जालें. फाल्यांच वचून बॉसाक हय म्हण सांग. फाटींफुडें येवं नाका."

आनी बॉसाकडेन रोकडेंच शिलूचें रजीस्टर लग्न जालें. शिलूच्या हाताक आज पाचवोच चुडो भरिल्लो. शिलू आज कुमारिका नाशिल्लें तर बॉसाची सौभाग्यवती जाल्लें. बॉसान आज सांजवेळची ऑफिसांतल्या स्टाफाक पार्टी दवरिल्ली. शिलूय आज मोटे उमेदींत आसलें. आज आपूण सगळ्या स्टाफामुखार नेटान उबें रावतलें. दिसरात म्हाका हिणसायतालीं? आतां हांवच तांच्या बॉसाची बायल. कितलो मान आयलो म्हाका आज! बऽऽरे आसात, म्हाका कुमारिका म्हूण

आलकुंज नांव दवरिल्लें? पयरच त्या गोडबोले क्लार्कान म्हजो अपमान केल्लो. म्हणटालो. शिलूचें लग्न जायसर सगले कावळे म्हातारे जातले आनी मरून वेतले. दुष्ट खंयचो. होच पयलीं लोकांच्या घायांर चोंच मारपी दुश्ट कावळो. ताका आज हांव कॅर करचें ना. शिलू रंगार आयिल्लें.

सांजवेळची पार्टी सुरू जाली. सगलो स्टाफ आज शिलूक मान दितालो. ऑफिसांत शिलूच्या म्हऱ्यांत बसून सुध्दां शिलूक दाव्या दोळ्यान सुध्दा पळयनाशिल्लें कुसुम शिलूकडेन किराभशेन उगचागेंय. सुजाताची जिभय आज थंडाविल्ली. शिलू मात खूब नेटार आयिल्लें. ती मोरापाखारंगाची व्हडली बोर्डर आशिल्ली साडी, ताचेर तसलोच मॅचिंग ब्लावज, मॅचिंग खड्यांचे सट, तो भायलो आंबाडो, त्या आंबाड्याचेर दोन टवटवीत गुलाब, गळ्यांत तें मंगळसूत्र आनी सबंध आंगभर चेराचो घमघमाट. ल्हवल्हव तिळसांनृ जावपाक लागली आनी पार्टेक आयिल्लो एकलो-एकलो शिलूक आनी बॉसाक व्हीश करून वचूंक लागलो. हॉल रिकामो जाल्लो. बॉसान शिलूक नदरेनूच नियाळ्ळें, ताच्या दोळ्यांत उपाट भरिल्ली खोशी शिलूक कळटाली. तें मुमुरख्यांच हांसूं लागलें.

आनी हो अपूर्व सुवाळो देवाच्यानय पळोवं नजो जालो. तिळसांनचो आमोरेर फांकचो तसो काळोख शिलूचे जिणेंत फांकिल्लो. खिणभराचो उजवाड नानपयत्त जावन ताची जीण काळखाचे भकीक पडली.

"शिलू, म्हज्या काळजांत दुखता गो. आवयस! बॉसान हड्ड्यार दोनूय हात घट्ट धरले आनी तो सकयल बसलो. घरा व्हरूंक आयिल्लो गाडयेचो शोफेर दोतोराक हाडूंक धांवलो.

"शिलू, सोसूं जायना म्हज्यान!" आनी बॉसान जमनीर न्हिदून घेतलें. शिलूचेर आकांत आयलो. तें काचाबूल जालें. कांयच उपाय करचे आदींच बॉस हो संवसार सोडून गेलो.

बॉसाच्या दोगांय भुरग्यांनी रडून आकांत केलो. पूण बॉस परतो येवपाचो नासलो. शिलू बशिल्लेकडेन फातोर कशें घट्ट जालें.



# माई

आज अमित शाळेंतल्यान घरा आयलो तोच बॅग मेजार आपटून आपल्या बेडरुमांत वचून गोजडी पांगरून न्हिदलो. ''आरे अमित, कितें जालां रे तुजें, येवचे येवन न्हिदलासो? चल हातपांय धूय आनी जेवपाक यो. चल बेगीन, मागीर बाबू उठ्ठलो.''

''मम्मी, म्हाका खबर आसा, बाबू तुजो स्वताचो भुरगो आनी हांव पोसको!'' रडत रडत अमित म्हणूंक लागलो.

''पोसको? कोणें सांगली रे तुका ही नाका आशिल्ली गजाल? तूं म्हजोच जल्म दिल्लो भुरगो! बाबूचो दादा.''

''मम्मी, म्हाका ओगीच कित्याक फटयता? म्हांका सगलें कळ्ळें तुजें. म्हणून तूं बाबूची चड अपुरबाय करता आनी बाबूक कितेंय केल्यार म्हाका मारता.'' हुंदको दियत अमितान म्हळें. आपल्या पोल्यार कोणेंतरी चुळचुळीत फुलयिल्ले भशेन अंजूक दिसलें. पोराक नसतें सांगून कोणेंतरी भडकायलो. तें अमिताच्या म्हऱ्यांत गेलें. ताणें ताचें पांगरूण काडलें. रडून रडून ताचे दोळे सुजिल्ले. ताच्या नाकांतल्यान शेमूड व्हांवतालें आनी हुंदक्यार हुंदके दिवन तो रडटालो.

''कोणें भल्ले रे तुजे कान? तूं कोणाचेंच खरें मानू नाका. तूं आमकां जाय म्हण जाल्लो रे भांगरा.'' अंजून ताका वेंगेत घेतलें.

अमिताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. अंजू ताका सासपूंक लागलें. पोराच्या मनांत कोणें वीख कालयलें काय ?

''बाबू अमित, आज तूं कोणागेर गेल्लो ?''

''केतनागेर. केतनाचे मम्मीन म्हाका म्हळें, अमित, भुरगीं नात म्हण तुजे

मर्म्मीन तुका पोसको घेतिल्लो, अनाथ आश्रमांतल्यान हाडिल्लो. आतां ताका भुरगें जालें मरे? तें तुजी अपुरबाय करचें ना. पोसको तो पोसको आनी पोटचो तो पोटचो.

"पाडपडिल्ली चाडयाळी बायल, तुजी वाट लावंक सोदता. आयच्यान तूं केतनागेरच न्हय कोणागेरच वच्चोना. घराच खेळटलो. ती फट उलयता तुका चाळोवन घालपाक."

पूण त्या दिसासावन अमिताच्या सभावांत खूब बदल घडिल्लो. तो णव वर्साचो भुरगो जाण्ट्यांची भास उलोवंक लागिल्लो.

खरेंच कितलो मोग आशिल्लो अंजूलो अमिताचेर. भुरगीं नात म्हण ताणें निमाणेंकडेन अमिताक पोसको घेतिल्लो. ताका पोटच्या भुरग्या परस चड माया लायिल्ली. अमिताक कितेंय जाल्यार अंजूक न्हीद पडनासली. तें रातीच्यो-राती जागरणां करतालें. बाजारांत कसलेंय नवें फळ येवूं आनी तें कितलेंय म्हारग आसूं, अंजू तें अमिताक हाडलेबगर रावनासलें. अंजू अमिताचें एक उतर सकयल दवरीनासलें.

आनी अकस्मात अमित आठ वर्साचो आसतना एक दीस अंजूक घुंवळ आयली. ओंकाऱ्यार ओंकारे येवंक लागले. पळय जाल्यार अमिताच्या पांयगुणान इतल्या वर्सांनी अंजूक आवयपण आयिल्लें. ताका दोन म्हयने जाल्ले.

अंजून आपल्या घोवाक अविनाशाक म्हळें, "अवी, म्हाका खूब वर्सांनी गुरवाचार आयला खरो, पूण मागीर अमिताची अपुरबाय कमी जातली, म्हण म्हाका आनीक भुरगें नाका."

"शी! कितें उलयता तूं हें पिशांभशेन. म्हाका भुरगें जाय. मागीर तें कोणूय आसूं. अमित ताचो व्हडलो भाव." अंजूच्या घोवान म्हळें. तांणी दोगांयनीय अमिताक पोसको म्हण केन्नाच पळयलो ना.

आतां अमित सामको विचित्र वागतालो. आवय बापायकडेन चड उलयनासलो. दीसरात कितें तरी चिंतालो. "ख़ऱ्यांनीच अमिताक हाडिल्लो तेन्नाच आमी ख़ंय तरी पयस वचून राविल्ले जाल्यार ताका हें कोणूच सांगूंक पावनाशिल्लो. पाडपडिल्ली

शेजान्न. म्हज्या पोरार्ची वाट लायर्ली. ताका म्हजेपसून पयस केलो.

अंजू आपलें ल्हानपण येवजूंक लागलें. तें पांच-स वर्साचें आसतना एका वायट दुर्येसान ताची आवय भायर पडिल्ली. ताच्या बापायन दुसरें लग्न केल्लें. माई ही ताचे आवयचे जाग्यार लग्न जावन आयिल्ली ताची सवती आवय. ल्हानपणापसून सवती आवय म्हळ्यार एक दुश्ट बायल अशें चित्र ताच्या कोवळ्या मनांत घरच्यांनी कोरिल्लें, पूण माई ताका खूब बरें करताली.

ताका काणी सांगून भरयताली, ताच्यो उयो काडटाली, ताका न्हाणयताली, वेंगेंत घेवन न्हिदताली. ताची खूब अपुरबाय करताली. पूण अंजू तिका खूब सतायतालें. नाका जीव करतालें. खरी आवय तिडकीन चार फुलयतली आशिल्ली, पूण तिणें ताचेर केन्नाच हात उबारलो ना. सवती आवयविशीं मनांत आशिल्लो काळो ठिबको तें मनांतल्यान धुवून उडोवंक तयार नासल्लें. ते बरोबर घरचीय़ तिका खूब सतायताली. पूण ती तोंडांतल्यान ब्र काडीनासली. ती सगलें मोन्यांनी सोशी. तिचें वय तशें भुरगें आसलें. तिणें आपल्याक भुरगें जावंक दिलें ना. अंजूक लागून ती स्वता वांझ जावन रावली. ती अंजूक सदां म्हणटाली, ''बाय अंजू, म्हाका आई म्हण उलो मार गो, तें आयकूंक म्हजे कान आशेल्यात.''

पूण तें तयार नासलें. सगल्यांनी ताच्या मनार इतलो परिणाम केल्लो की सवती आवय ती सवतीच आवय. तिका खूब सतावप. तिका माईच म्हणप. आई केन्नाच म्हणप ना. इतलेंय आसून सुदां तिचो अंजूवयलो मोग केन्नाच कमी जालो ना.

अंजूचें लग्न जालें, तेन्ना माई खूब रडली. माईन आपल्यो सगल्यो वस्ती मोडून ताका भांगर केल्लें. स्वताच्या आंगार फकत एक मंगळसूत्र आनी चार कांकणां दवरिल्लीं. माई मोठ्यांर्ली चली. तिका कुळाराची भरपूर इस्टेट पडिल्ली. तिणें ती सगली अंजूच्या नांवार केली. केदो व्हडलो त्याग केल्लो माईन ? आनी हांव कर्मकट्टं माई मदल्या म्हान देवाक वळखूंक शकलें ना. अंजूक आतां तें सगलें येवजतालें आनी ताच्या जिवाक खूब त्रास जाताले.

''खरेंच सोशीक माई. एका साध्या उतराक 'आई' ह्या शब्दाक हांवें तिका

सतायलां. त्या उतराचें सूख सुद्दां हांवें तिका दिवंक ना. माईचेर व्हड व्हड अन्याय केलो हांवें. कसली चूक केल्ली तिणें? फकत म्हजी आवय मरतगच म्हजी सवती आवय जावन घरा आयिल्ली हेंच पातक. आज माई ह्या संवसारांत ना. पूण तिची खूब याद येता. सपनांत सुध्दां माईच दिसता. शांत हांसमूख माई.

आज म्हजो चलो हांवें माईचेर केल्ल्या गुन्यावांची ख्यास्त म्हाका दिता. म्हजो दुस्मान जावन. माईभशेन व्हड मन आनी काळीज म्हजेकडेन ना. माईच्या दाव्या नाखटाची सर म्हाका येवची ना. माई आवय न्हय त्यागाची देवता. आनी हांवच दुश्ट. तिचें सवती भुरगें.'' अंजू पश्चातापान फुगार जाता. दिसता माईच तांकां कसली तरी शक्त दिता आनी अमिताच्या बदलिल्ल्या सबावाचेर पांगरूण घालपाचो तें यत्न करता आनी तें म्हणटा माई. तूंच म्हाका शक्त दी आनी माफ कर.''






# वंदना

बसस्टॉपार बस थांबली आनी वंदना बसींत चडलें. फुडलेंच सीट रिकामें आशिल्लें, थंय वचून ताणें बसकां घेतली. मदींच ताची नदर फाटल्यान गेली. फाटल्यान ताच्या शेजारचें नंदा आनी एक बायल बशिल्ली. ताका पळोवन वंदना मुमुरखेंच हांसलें आनी नदर फुडें घुंवडायली. दुसरी बायल नंदाक विचारूंक लागली,

"कोण गो ती बायल नंदा?"

"ओगीं राव मात्शें, सगलें मागीर सांगतां!"

"मागीर कित्याक गो? आतांच सांग. तिका चड आयकूंक येता बसींच्या बोवाळांत."

"आगो, ती मुगो आमच्या शेजरा चाळींत रावता. ती तसली बायल गो, सतरा जाणांची, एकट्याची न्हय ती."

"पळोवपाक सामकी साळसूद दिसता मुगो? कोणूच खरें धरपाचो ना. पूण आतांच्या काळाक कोणाचेंच चित्र काडपाचें ना."

हे शब्द वंदनाच्या कानार पडले. कोणेतरी आपल्या कानांत सळसळीत तेल ओतलां अशें ताका जालें.

तशें पळोवंक गेल्यार वंदना पयलीं एकदम सोज्वळ चली आशिल्लें. ताच्या चरित्राक कोणेंच नाव दवपासारकें नासलें. शिक्षण मॅट्रीक फेल. बाकीच्या आंकवार चलयांभशेन ताणेंय आपल्या जिविताच्या साथीदाराचें सपन रंगयल्लें. सपनांतलो राजकुंवर ताका घोड्यार बसून व्हरपाक येतलो आनी तळटा वयल्या फोडाभशेन जपतलो. दिसूंक कसोय आसूं, पयशांनी गरीब आसूं, मनान रसाळ फणसाबशेन आनी सर्वस्वी ताचोच.

तेवीस वर्सांचें आसतना बापायन ताचें लग्न एका मध्यम वर्गाच्या नोकरी करतल्या भुरग्याकडेन केलें. कसलोय आसूं आपल्या नशीबांत फावो आशिल्लो तो आपल्याक मेळळो म्हण वंदना लग्न जालें.

चवगांचें घर, दोन-तीन जावो, दोन तीन नणडो, मांय-मांव सगलीं मनशां. चवगांचे घर म्हणटगेर, आयदनाक आयदन आपटतलेंच. वंदना मात्शें हळव्या मनाचें, खूबच मायेस्त, कोणेंय कितेंय म्हळयार ताच्या जिवाक लागतालें आनी तें भितरले-भितर फुगार जावन रावतालें, जावांचे थोमणे, कुचित्री घालून-पाडून उलोवपां ताका आवडनासलीं. मांय तर भयंकर! मोव मेळटा थंय कोणूय खणटा, घट मेळटा थंय कोण खणना अशे म्हण्णे प्रमाण ताका सतायताली.

अशें म्हणटात, लग्न जातगेर मांय-मांव हींच आवय-बापूय. पूण ताच्या मांय-मांवाक आवय बापायचो दर्जो दिवप म्हळयार मुर्खपणां. माय वंदनाक खूब त्रास दिताली. साद्यासुद्या कारणावेल्यान गाळयांचो शिंवर घालताली.

"नाचरें रंगें सोण्ण," हीं तिणें वंदनाक दिल्ली विशेशणा. आनी ताचो घोवय हें सगलें आयकून ओग्गी रावतालो आनी वेल्यान म्हंणटालो,

"बरोबर आसा म्हजे आईचें. तूं तसलेंच म्हण तुका ती गाळी घालता."

"कितें उलयता तूं हें? लोकांचे चलयेक सून म्हण घरांत हाडून तिका अशें छळप, असल्यो सूज गाळी दिवप ? बार्कीच्यांक कित्याक दिना ती? मोव मेळटा थंय खणटा ती. तोंड आसा म्हण कितेंय उलोवप? असल्यो गाळी हांवें केन्नाच आयकल्यो नात आनी उच्चारल्योय नात. म्हज्या कुळार बाये-पुता म्हळयाशिवाय उलोच मारनात!"

"हय? तशें जाल्यार तुज्या भोंकार खोट घालतां! साटली पोटली कंवळ आनी चलूंक लाग."

"घोड्यार बसून येवपी राजकुंवर हांवें चितारिल्लो. पूण. म्हजो घोव तर रेड्यार बसून आयिल्लो यम म्हणटात. कोणेंय कितलोय त्रास दिवूं घोवाचेर विसरपाचें. पूण हांगा तर ताेच तसलो."

वंदनाचो घोव ताका क्षुल्लक कारणांवेल्यान मोठ्या-मोठ्यान तापयतालो. आवय-बापायगेर केन्नाच करूंक नात तीं सगलीं कामां वंदना मोन्यांनी करतालें. ताचो घोव ताका सगल्यां हुर्जीर तापयतालो आनी खर्चाक दुडू सारके दिना आसलो.

हे गजालीचो फायदो घरच्या मांय तशेंच सगल्यांनी घेतिल्लो. मांय बाकीच्या सुनांक थर्त भियेताली, पूण वंदनाचेर चाबकांच्या उतरांचो मारो करताली. पुतालें आनी सुनेलें झगडें ज़ालें कीं हिणें तांतूंत भाग घेवप आनी उज्यांत पेत्रोल घालप. पुतान जशें सुनेक मारलें, तशें बरीच खिचडी खावयता, तशेंच करप म्हण उमेदीन ताका तेंको दिवप.

जावो तर चलता भोंवतना म्हणटाल्यो. ''आमच्या घोवांचेंच आमचेकडेन पटल्यार पुरो. लोकांचें घोवाकडेनच पटना, दीसरात आयकूंक येता, ताचें लोकांकडेन कशें पट्टालें?'

घोवाचे भाव, भयणी म्हणटाल्यो, ''आमचो बाबू म्हळयार वंदनाचो घोव बरोच, ताका बायल बरी मेळ्ळी ना.''

हे अवस्थेंतय ताका दोन भुरगीं जाल्लीं. वंदनाच्या भुरग्यांक कोण म्हऱ्यांत काडीनासलीं. तांणी मुतल्यार सुध्दां विटप आनी वंदनाक काम करता थंयच्यान आफोवन हाडून पुसूंक लावप. भुरग्यांक पोटाक घालता ताचेर सुध्दां तांचें लक्ष. जणूंकाय तांच्या बापायचें खाल्लेभशेन. वंदनाच्या कुळारा कामाक वावराडी, चेडूं बी आशिल्ले. पूण ह्या घरांत पांय दवरीत पासून तेंच वावराडी आनी चेडूं जाल्लें. त्या घरांत ताका सुखान गोटो म्हणटात तो कोणेच खावंक दिलो ना.

केन्नायतरी आपणाल्या घोवाक बुद्द बरी येतली. आपले जिर्णेत सुदारणा जातली, सगलें बरें जातलें, हे आशेर तें जगतालें. पूण ना. दिशीं-दिशीं छळाची स्टेज वाडत वताली. मार-फार तर ताच्यान सोसूं नजो जातालो. वंदनाच्या घोवाकडच्यान सगले पयशे आवय घेताली. अखेरेक वंदनाक दोनूय भुरग्यांसकट भायर काडपाची तकलीय ताणें पुताक दिली.

आनी खऱ्यांनीच एका दिसा, घोवान ताका भुरग्यांसकट घरांतल्यान भायर

काडलें. खंय वतलें तें दोनूय पोरांक घेवन ? व्हडलो पवन पांच वर्सांचो, धाकटो रेशम तीन वर्सांचो. कुळारा वतलें म्हळ्यार भावाचेंच राज्य. थोड्या दिसांक कोताक येता, जल्मभर न्हय. आवय-बापूय पिकिल्लीं पानां. केन्ना गळून पडत म्हूण सांगूं जायना. ताणें आपल्या आंगावयल्यो वस्ती काडल्यो आनी त्यो विकल्यो. एके चाळींत तें दोनूय पोरांक घेवन भाड्यान रावूं लागलें.

कोणाचोच आदार ना. ना पयशांचो, ना शब्दांचो. दोन ल्हान पोर खाकेंत, वयानय तें पंचविशेक वर्सांचें. एकटें रावप म्हळ्यार कोणाचीय वायट नदर पडूंक शकता. पूण हळव्या मनाच्या वंदनान मन घट केलें. व्हडल्याक के.जी. क आनी धाकल्याक नर्सरीक घालें. कामा खातीर तें हांगा थंय धांवतालें. सदांच काम सोदूंक वचप आनी निर्शेवन परत येवप. हें काम चालूच आशिल्लें. पयशे दिसान दीस कमी जायत वताले. भाडें, बिलां, भुग्यांच्या शिक्षणाचे पयशे, सगलें येवजून ताची तकली कणकणटाली. ज्या जाग्यार ग्रॅज्युएट बेकार थंय मॅट्रीक फेलाक काम खंय मेळटलें? ताका दिसतालें, जगपच नाका. दोनूय पोरांक खाक्यांन घेवचें आनी न्हंयेंत वचून उडी मारची.

एक दीस शेजरा रावपी कांताबेन वंदनाच्या म्हऱ्यांत आयली.

"आगो बाये, तुका काम जाय?"

"हय."

"पूण मागीर म्हणूंक जायना, कांताबेनीन त्रासांत उडयलें म्हण."

"ना कांताबेन. पोरांक वाडोवपा खातीर हांव कितेंय करूंक तयार आसां. कितल्याय त्रासांचें काम म्हाका दिल्यार जाता."

"तशें जाल्यार फाल्यां सकाळींच तूं न्हावन धुवन नटृन-थटृन म्हजेबरोबर यो. भुरगीं इश्कोलाक वतगर."

आनी त्या दिसासावन वंदना न्हय त्या धंदयाक लागिल्लें. ताच्या नांवांक कलंक लागिल्लो. मनांत नासतना ताका शील विक्रेचें काम आपणावचें पडलें.

आनी आतां हळू हळू तेंच मन, भावना, शील सगलेंच भेरेल्लें म्हळ्यार जाता आपल्या भुरग्यां-खातीर जितें मडें जावन तें जगतालें.

कांताबेन वंदनाक खूब गिरायकां मेळोवन दिताली. ताच्या हातांत खंयच्याय मार्गान जावूं पयसो खूब घोळटालो. ताणें भुरग्यांक कितेंच कमी पडूंक दिवंक ना. हॉस्टेलांनी दवरून ताका बरेपैकीं स्कूलांत घालून शिक्षण दिलें. फुडेंय बऱ्या कॉलेजींनी घालून तांकां दोगांयकय बऱ्यो नोकऱ्यो मेळोवन दिल्यो. आतां ताचे पूत बऱ्या पोस्टार कामाक आशिल्ले. भरपूर पगार मेळयताले. वंदनाक आतां कसलोच हुसको नाशिल्लो. हुसको आशिल्लो तो फकत दोन सुनो हाडपाचो आनी तांकां आवयची माया दिवन धुवो कश्यो वागोवपाचो. हे उमेदींत तें आसलें.

दोगांय पुतांचीं लग्नां ताणें बऱ्यो चलयो पळोवन खूब थाटामाटान केलीं. सुनांक स्वताखुस्तार भरपूर भांगरां-शिंगरां केलीं. तांकां संवसार थाटून दिले. ते आतां ताचे पूत इतले बायलकुरे जाल्ले कीं ते आपले आवयचे वासपुशेक सुद्दां येना आसले. 'नाका-आशिल्लो धंदो करपी आवयक आवय म्हणूंक आनी तिचेर नदर घालूंक सुद्दां लज, अशें ते म्हणटाले. तांच्या बायलांनी तांकां सामकेंच मुठींत घेतिल्लें.

आतां वंदना साठीकडेन पाविल्लें. कितें सोंसलें ना ताणें? आपल्या नालायक घोवाचें पातक ताणें भोगलें, आपल्या दोगूय पोरांक वाडोवपाखातीर ताणें सांबाळून दवरिल्लें शील सुद्दां लांडग्यां सुवादीन केलें. शेवटीं ताणें कितें मेळयलें? पोटचे पोर सुद्दां नालायक आनी बेमान जाले.

"देवा, तुवें म्हाका कितें दिलें ? दुख्ख, त्रास, दगदग, माया-दया, प्रेम-सूख हाचेपसून तुवें म्हाका वंचीत दवरलें. आनी हांव पिशें बरे दीस येतले म्हण आशेर जगत रावलें. तूं त्रास दियत रावलो, हांव सोशीत रावलें. देवा, आतां तुजेवयलो म्हजो विस्वास सामको गेला, तूं नाच्च अशें म्हाका दिसता. आयच्यान तुका हांव हात सुद्दां जोडपाचें ना."

●●●



**आरती राजीव संजगिरी**

- पुर्वाश्रमीची विमल सच्चित पै काणे.
- अर्थशास्त्र आनी वाणिज्य विशय घेवन सेंट झेवियर्स कॉलेज, म्हापशें हांगा बी.ए. मेरेन शिकप घेतलां.
- णवेक शिकता आसतना सावन लेखनाक सुरवात.
- आपउलोवपां, नाटकुलीं आदी बरोवन कॉलेजीच्या स्नेहसंमेलनांनी सादर केल्यांत.
- आकाशवाणी पणजी केंद्राच्या 'युववाणी'कार्यावळींतल्यान बरोवपाक स्फुर्त.
- 'युववाणी' वांगडाच 'फोडणी फोव', 'व्हनीबायली वासरी' आदी कार्यावळींखातीर लेखन केलां.
- राष्ट्रमत, चित्रंगी, कुळागर, ऋतू आनी सुनापरान्त ह्या नेमाळ्यांतल्यान जायतें लेखन प्रसिध्द जालां.
- 'चित्रंगी' नेमाळ्यान घडोवन हाडिल्ल्या बायलांच्या मेळाव्यांनी वांटो घेतला.